जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ८ : मे-जून २०२३

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० | ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-





## मांडावळ...



मुखपृष्ठ चित्र : गोविंद सिलिमखान
पितल्लीं चित्रां : निशीत बोरकार

संपादकीय

## आमी सुस्तावल्यात?

एप्रिल म्हयन्याच्या १ तारखेर आमी विश्व कोंकणी दीस मनयलो. कोंकणीचे आद्यपुरूस शणै गोंयबाब हांची पुण्यतिथी हालीं तेंपार विश्व कोंकणी दीस म्हण मनयतात. खरें म्हळ्यार शणै गोंयबाबाची जयंती आनी पुण्यतिथी दबाज्यान मनोवंक जाय. त्या दिसा साबार कार्यावळी जावंक जाय. पूण अशें घडिल्लें आमकां दिसना. विश्व कोंकणी दीस म्हणटात खरें, पूण त्या दिसा गोंयांत वा गोंयाभायर कितल्यो कार्यावळी जाल्यो? कारण एकूच, आमकां आळसाय जडल्या.

हालींच शालांत परिक्षेच्या म्हळ्यार धावी एसएससीच्या कोंकणी पेपरांत साबार चुकी आसल्यो. एक छापणावळीची चूक जाल्या म्हण भुरग्यांक एक गूण दिलो. पूण पुराय पेपरांत पायलेक पंचवीस चुकी. ताचें कितें? अशें परत परत कित्याक घडटा? भुरगो वर्सभर शिकता ताचे हातांत अश्यो चुकी आशिल्ल्यो प्रस्नपत्रिका पडप? कितल्या कोंकणी संस्थानी हाचेर आवाज काडलो? फुडाराकूय हें अशेंच घडटलें. कारण कोंकणी विशय कोण शिकयतात हाचें एक सर्वेक्षण करून आमचे कडेन डेटाबेज आसूंक जाय. तिसरी भास कोंकणी शिकपी विद्यार्थ्यांचो आंकडो वाडटा काय देंवता तो आलेख दाखोवपी आंकडेवारी आमचे कडेन अद्ययावत पांवड्यार आसूंक जाय. आसा? कारण आमी सुस्तावल्यात.

ह्या वर्सा आमी कोंकणींतले जेश्ट साहित्यीक स. पांडुरंग भांगी हांची जल्मशताब्दी मनयतात. 'जाग' फाटले स आंक पांडुरंगबाबांच्या साहित्याचेर लेख उजवाडायतात. पूण एकाय कोंकणी संस्थेक भांगीबाबांचेर कार्यावळी करच्यो अशें दिसनां. पोरुं स. शंकर रामाणीच्या जल्मशताब्दी वेळारुय अशेंच जाल्लें. निमणे केंद्रीय साहित्य अकादेमीन शताब्दीच्या शेवटाक एक कार्यावळ केली आनी मात्शी लज दवरली. हें अशें कित्याक घडटा काय? धंगण नाशिल्ल्याचें लक्षण? आमी सुस्तावल्यात म्हणून न्हय मूं?

कोंकणींत संशोधनपर साहित्य येवंक जाय म्हण दरेके माचयेर ताळो सरांटून उलोवपां फटासो जातात. पूण संशोधनपर साहित्य उजवाडावपाक आमचेकडेन कोंकणींत एकूय संशोधन पत्रिका ना. कांय वर्सां पयलीं गोंय विद्यापिठान मोठ्या दबाज्यान मुखेल मंत्र्याच्या हस्तुकीं 'सासाय' नांवाची कोंकणींतल्यान एक संशोधन पत्रिका उजवाडायिल्ली. ह्या पयल्याच आंकाची प्रत आजूनमेरेन कोणाक मेळ्ळी ना आनी फुडें त्या संशोधन पत्रिकेचें कितें जालें होच एक संशोधनाचो विशय.हें अशें घडटा कारण आमी सुस्तावल्यात.

आयज आमी आत्मकेंद्रीत जाल्यात. हांव, म्हजें साहित्य, म्हजे सत्कार, म्हजेंच गुणगान, म्हजीच भक्ती हातूंतच आमी घुस्पल्यात. आपल्या साहित्याचो खरो कस, वाड (जाल्ली आसल्यार) ताचो थाव घेवपाची वान्सा कोणाक ना जाल्या. पटयो कशीं चार पुस्तकां काडलीं रे काडलीं, पुरस्कारांचो भोवमानांचो तानसोर लागता. हातूंत कोंकणीचें कितलें नुकसान जाता हाचें कोणाकूच पडूंक ना. निळू म्हजो निळू... असल्यांतलो प्रकार हो.

कोंकणींत संशोधनपर साहित्य उजवाडाक हाडपाचो 'जाग' आपल्या परीन येत्न करीत आसा. पूण 'जागा'ची मर्यादा मतींत दवरुन साहित्य छापचें पडटा. 'जागा'चेर येवपी साहित्याचेर नदर मारल्यार चडावत साहित्य हें ऍकेडेमीक थराचें आसता. कोंकणी अभ्यासकांक उपेगी पडटलें असलें. आनी तें अशेंच आसचें ही आमची खटपट आसा.

ह्या अंकांत दोन संशोधनपर लेख आसपावल्यात. त्या भायर कवितेचेर लेख आसात, जाचो फायदो अभ्यासकांक जातलो आनी तांकांय अशे लेख बरोवपाक उर्बा मेळटली. खेरीज सदचें साहित्य आसाच.

'जागा'क नेमान साहित्य धाडपी लेखकांचे मनासावन उपकार. आंक वाचून आमकां उर्बा, प्रतिसाद दिवपी जागाच्या वाचकांचेय उपकार.

***



# आमोणें-केपें गांवची भौतीक संस्कृताय

डॉ. जयंती नायक

एखाद्या गांवाचो अभ्यास करताना जर गांवाचो भूगोल धरुन, गांवचो राजकीय आनी सामाजिक इतिहास, देव-देंवचार-भूतावळ, परबो-उत्सव-व्रतां, संस्कार-परंपरा, जिबेवयलें साहित्य, लोककला, दुयेंसां आनी उपाय, समज आनी अंधविस्वास अशा सगळ्या गजालींचो विचार केलो आनी थंयचे लोक रावतात कशे? खातात कितें? न्हेसतात कशे? तांचो पारंपारीक वेवसाय-धंदो कितें? हाचो जर विचार जालो ना तर तो अभ्यास पुराय जायना. लोकवेदाचो अभ्यास करतना, लोकजिणेचो अविभाज्य भाग आशिल्ल्या ह्या गजालींचो अभ्यास करप तितलेंच म्हत्वाचें थारता.

आमोणें गांवच्या लोकवेदाचो अभ्यास करतना ह्योवय गजाली लक्षांत घेतिल्ल्यो आसात.

### अ. घरांची बांदावळ

सामक्या पूर्विल्ल्या काळार गांवांत 'कोलवाचीं' घरां आशिल्ल्याची म्हायती मेळटा. ह्या घरांक बडयो आनी म्हेडी बांदून वण्टी तयार करताले आनी पाख्याखातीर करड वा तण वापरताले. अशेतरेच्या घराक आज 'खोप' म्हण्टात, कोलवाच्या घरांमदीं उपरांत थोडी सुदारणा जाली. करड-तणा बदला पाख्याक माडाचीं चुडटां वापरूंक लागले, मातयेचे थर घालून वण्टी तयार करूंक लागले. अशेतरेच्यो खोपी आजय गांवांत आसात.

उपरांतची सुदारणा म्हणजे बारकेल्या नळ्यांच्या पाख्यांची घरां. सर्वसादारणपणान ह्या घरांक दोनावयर कुडी नासताल्यो. आसलीच जाल्यार मुखार बसपा-उठपाखातीर इल्लिशी 'पडवी' आनी जोळोव भरपाखातीर वा हेर कसल्याय उपेगाखातीर फाटल्यान ल्हानशें 'बागेल'. जायत्या घरांक फाटलें दार नासतालें, तशेंच न्हावपा धुवपाखातीर 'मोरी' क्वचीत दिसताली. घराकुशीक 'वंय' या दुसरो कसलोय आडोस करून थंयच न्हावप-धुवप करपाची चाल आशिल्ली. ह्या घरांच्या वण्टी खातीर लागपी माती, घराकुशीचीच खणून काडटाले आशिल्ल्यान प्रत्येक



घराकुशीक एक फोंडारो पळोवंक मेळाटालो. ह्या फोंडाऱ्याचो मागीर फुटकें-तुटकें आनी चिखोल-कोयर वडोवपाखातीर वापर करताले. घराचे बुन्यादीखातीर मड्डेर मेळपी 'रोबल' सर्रास वापरताले. 'बारकेले नळे' घरांक वापरल्या उपरांतची सुदारणा म्हळ्यार 'सुलचे नळे' वापरपाची.

त्या वेळार गांवांत व्हडलीं घरां आशिल्लीं तीं भटां-बामणांचीं. कुळकर्ण्यांच्या मूळ घराचे गांवांत मेळपी अवशेश पळयल्यार तें गांवांतलें सगळ्यांत व्हडलें घर म्हणपाचें दिसून येता. ह्यावूय घराच्यो वण्टी मातयेच्यो आनी पाखें बारकेल्या नळ्यांचे आशिल्लें. 'राजांगण' आशिल्लें गांवांतलें तें पयलें आनी एकूच घर म्हणपाचें समजता. ज्या जाग्यार गांवांत सौंदेकारांचें 'कोंट' आशिल्ल्याची म्हायती सांगतात, त्या जाग्याचें निरिक्षण केल्यार, कुळकर्ण्याचें घर ताच्यापरसय व्हड आशिल्ल्याचें दिसता.

व्हडल्या घरांक देवाकूड, रांदचीकूड, बांळटीकूड, न्हिदपाकूड, जेवपाकूड अश्यो कूडी आसताल्यो शिवाय मुखार पडवी वा वासरी. कुळकर्ण्यांच्या घराक 'आठ चौक्यो' आशिल्ल्याचे सांगतात.

प्रत्येक घरांत भात कांडपाखातीर चौकर एक वान आसतालें. कांय घरांनी 'सवळ्याची' आनी 'नित्याची' अश्यो दोन चुली आसताल्यो. हिंदूंच्या घरांनी चुली सकयल आसताल्यो तर वयर चूल घालपाची चाल सगळ्यांत पयलीं किरिस्तांवांच्या घरांनी रिगली. सर्वसादारणपणान रांदन 'तीन फातर' दवरून जरी केली तरी वेग-वेगळ्या आकाराच्यो आनी कलात्मकतेन केल्ल्यो रांदनी पळोवंक मेळटाल्यो. सदां सकाळी उजो करचे पयलीं रांदन सारोवपाची चाल आशिल्ली.

सणा-परबेक घराच्यो वण्टी 'शेडीन' सारोवपाची चाल आशिल्ली. जमीन शेणान सारोवन निवळ करताले. हिंदूंच्या घरांनी सदां सकाळीं सात्र मारल्या उपरांत 'शेणां शिताडो' घालपाची पद्धत आशिल्ली. शेण सारयतकच वा शिताडो घालतकच बायलांनी सुंदर 'रांगोळ्यो' घाल्ल्यो . पळोवंक मेळटाल्यो.

कांय गजालींचो फरक आसलो तरी, गांवच्या हिंदू आनी किरिस्तांव दोगांच्याय घरांच्या बांदावळींत खुबच समानता दिसता.

हिंदूंच्या घरामुखार तुळशी वृंदावन आसताच. घरांतल्या सवायशिणीन सदां सकाळीं न्हावन-धुवन तुळशीक उदक घालपाची चाल आसा. सदां तिळसांजा तुळशी-पेडयेर वात पेटोवन दवरतात. भटां-बामणांगेर तुळशीक 'गळटी' लावपाची चाल आसा. (एका गाडग्यांत उदक घालून ताका एक बुराक करप आनी तो गाडगो तुळशी झाडाक हुमकळावप. मागीर गाडग्यांतलें थेंबा थेंबो उदक तुळशी मुळांत गळत रावता रावता आनी झाडाक थंडाय मेळटा. गाडग्यांतलें उदक सोपूंक दिनात. कमी जालें तशें आनीक घालतात. गळटी शिवरात्रेदिसा लायतात ती अक्षय तृतीयेक काडटात.)



हालींच्या वीस-पंचवीस वर्सांत, गांवच्या घरांच्या बांदावळींत वेगान बदल जायत आसा. गोंयच्या हेर वाठारांनी जे तरेन शिमीट-कॉन्क्रीटाचो वापर करुन आधुनिक पद्धतीन घरां बांदपाक सुरवात जाल्या, तेच तरेन गांवांत नवीं घरां उबीं राविल्लीं दिसतात. तरी पूण पुविल्ल्यो खुणो पुराय विरळ जावंक नात.

जी परिस्थिती घरांची, तीच तुळशी वृंदावनांचीय. पूर्विल्लीं मातयेचीं वृंदावनां वचून तांचो जागो आज शिमीट-कॉन्क्रीटाच्या वृंदावनांनी घेवंक सुरवात केल्या.

जांगेर गोरवां आसतालीं, तांच्या घराकुशीक 'गोठो' आसतालोच. हो गोठो लाकडाच्यो म्हेडी पुरुन करताले. पाख्यांखातीर चुडटां, मलायो, मल्लां, करड-तण, हांचोय वापर करताले. आज गांवांत शिमीट-चिऱ्यांचे आनी सुलच्या नळ्यांचे गोठे दिसपाक लागल्यात.

गोठ्याकुशीक शेण उडोवंक 'गायर' आसताली.

पूर्विल्ल्या काळार गोरवां-पाडवो जालो तशीं गोरवांक गोठ्यांत बांदनासतना आप-आपल्या शेतांनी व्हरुन बांदपाची चाल आशिल्ली. आज एके बांदयेंत तर फाल्यां दुसरे बांदयेत अशें करुन आख्ख्या शेतभर गोरवांक फिरयताले. त्या वेळार शेतांक कृत्रीम सारीं (Fertilizer) घालपाची चाल नाशिल्ली. गोरवांचें शेण, तांच्या पांयांपोंदची धुल्ली आनी गोबोर हाचेंच सारें म्हण वापर करताले. वयर सांगलां ते पद्धतीन गोरवांक शेतांत बांदत जाल्यार तांचें शेण मूत पिड्ड्यार जायनासतना तांचो बरे तरेन वापर जातालो आनी घराकडल्यान शेतामेरेन शेण व्हरपाचे त्रासय वांचताले.

रातचीं वाग-वागटां येवन ताणीं गोरवांक खावंची न्हय म्हण, गोरवांचे धनी शेताकुशीक खोपी बांदून न्हिदताले. पावसाची पयली शेन आंगार पडली म्हण्टकच गोरवांक परत गोठ्यांत बांदूक सुरवात जाताली.

जे लोक कुकडां पोसताले तांच्या घराकुशीक 'घूड' आसतालो. दुकरां पोसप्यांच्याय घराकुशीक दुकरांखातीर 'घुड' आसतालो.

मडवळांच्या घराकुशीकय 'घूड' (खोर्न) आसतालो. हो घूड कुकडां-दुकराच्या घुडापरस वेगळो.

चिरमुल्यो करप्यांच्या घराकडेनय खोर्न आसतालें. जे लोक फोवांचो धंदो करताले तांच्या घराकुशीक 'लाट' बसोवपाखातीर खाशेलें 'बागेल' आसतालें.

रेंदेराच्या घराकडेन 'भाटी' आसताली.

'संडास' वा 'कुमांव' बांदपाची चाल हालींच्या वीस-पंचवीस वर्सांत सुरु जाल्या. ते पयलीं गांवांत हांगा-थंय वाडिल्ल्या झिर्ली-झोपांचो लोक आदार घेताले.

पयलीं प्रत्येक घराचे पडवेक मातयेचे 'सोपे' आसताले. ह्या सोप्यांचो उपेग बसपा-न्हिदपाखातीर जातालो. घराचे 'वण्टीक 'कुरकुट' वा 'कत्रेलां' आसताली. तांचो देव वा दिवे दवरपाखातीर मुखेलपणान उपेग जातालो.

एके काळावयलीं गांवची देवळां वा देवाचे मठ पळयल्यार तांच्या आनी घरांच्या बांदावळींत व्हडलोसो फरक दिसना. आज

मात गांवांतलीं पूर्विल्लीं कांय देवळां मोडून, आधुनीक पद्धतीन तीं परतून बांदिल्लीं दिसतात.

गांवांत हिंदू-किरिस्तांव दोनय धर्मांचे लोक घराची बुन्याद मारतना पयलो घावो गांवकारांकडल्यान मारुन घेतात. ते पयलीं हिंदूंगेर भट जमनीची पुजा करतात जाल्यार किरिस्तांवांगेर पाद्री घर बांदपाचो जागो 'बेंजार' करतात.

हिंदूंगेर बुन्याद पुरयतना वास्तूपुरुशाची पुजा करून 'वास्तूधन' म्हण पांच धातू पुरतात.

गांवच्या हिंदू-किरिस्तांव दोनय धर्मांतल्या लोकांमदीं नव्या घरांत रावपाक वतना 'घरप्रवेश' (घरपुरुस ) सुवाळो करपाची चाल आसा. हिंदूंगेर त्या दिसा 'वास्तुशांती' करतात.

घरप्रवेशा दिसा नवे रांदनीत (चुलींत) उजो करुन गोड गोडशें रांदतात. सात्र, सूप, सोलां, मीठ ह्या सारक्यो संवसाराक भोव गरजेच्यो वस्ती त्या दिसा घरांत व्हरूंकच जाय अशें मानतात.

किरिस्तांवांगेर घरप्रवेशादिसा पाद्रीक आपोवन घर 'बेंजार' करतात.

हिंदूंगेर घरांसारकेंच बांय, गोठो, तुळस ह्या सारक्यो बांदावळी वापरचे पयलीं भटाकडल्यान 'उजोवन' घेवपाची चाल आसा जाल्यार किरिस्तांवांगेर बांय, गोठो, खुरीस बी पाद्रीकडल्यान 'बेंजार' करुन घेतात.

**ब. घरांत वापरांत आशिल्ल्या लोखणा/लाकडाच्या आयदनांचे आनी वस्तींचे कांय प्रकारः**

**फर्निचरः** पाट, चौरंग, बांक, बाकीन, मेज, कदेल, दिवाण, चौफाळो, झोपाळो, पायणें, तामरेत, कांत, कांतेर, खुंटयाळें, घडवंची, पेट, पेटारो, आरमार, कानापो, खाट, पलंग, मचंक, बाज, मेणो, डोली, माचूल, कदेलीन, पेटूल, चवाय, आसन.

**आयदनां आनी हेर वस्तीः** दाय, दोवलो, दावल, पळी, शेवगो, चकलदांतो, रवी, कोडमूळ, कोळंबी, दोन, दोणली, वाळणी, आदोळी, माण, पेटणें, लाट, खोड, मुसळ, काणन, तापी, कायलातो, तवो, लाटफळें तोणी, रांतेर, गुडफळें, तांबूलफळें, खेळणीं, चिलीम बी.

मदल्या काळांत गोंयच्या हेर वाठारांत जशी तांबें- पितूळ, जर्मन सिल्वर, कांसो, रुपें, वा चिनी मातयेचीं आयदनां वापरपाची चाल आयली तशी ती आमोणें गांवांतय पावली. ह्या आयदनांचे कांय प्रकार अशेः

तोप, हांडो, कळसो, घागर, भाण, चेंबू, लोटो, तांबयो, मडकी, कांसांडी, कायल, पोळ्यांकायल, येलाप्यांकायल, वड्यांकायल वाटली, लोखणें, कांसो, पितळी, झारो, दोवलो, दाय, कायलातो, कांसूल, सानन-कोंपरो, ताट, परात, चित्रें, सांमाडें, कदें, हात, भगुणें, थाली, तपलें. लोटी, ताटली, शिवें, गंगळी, थाळो, डबो, जाम, पेलो, वाटो, वाटी, वाडगो, तवो, चिंपो, शेवगो, उरउळी, खलबतो, करंड, पिकदाणी, अत्तरदाणी, गुलाबदाणी, पानपुडो, आडकाती, चुनाळ, चौफुलो, बुशेद, पेटूल, चाळण, गिंडी, तस्त, किल्लकातनें, तबक, किसणी, कानुलें, नाक्शिणें, कडये तांबयो, कडये डबो, कमंडूल, किटली, चमचो (कुलेर ), खलबतो.

**देवाकुडींत वापरपाची कांय खास आयदनां अशीं:** तांबयो, पडगो, पंचपात्र, पळी, घांट, निरांजन, पणटी, धुपाडें, चिपळ, दिवली, माड, लामणदिवो, नंददीप, पंचारत, एकारत, सरमाळ, श्रीमुद्रा (शंख, चक्र, गदा, पद्म ह्या आकाराच्यो).

पूर्विल्ल्या काळार कांसार हीं आयदनां माथ्रें वजनान गांवांत घेवन येतालो.

**घरांत वापरपाच्यो कांय फातराच्यो वस्ती अश्योः** फातर, रगडो-वान, दातें, खलबतो, कोटाळें, साण.

ह्यो वस्ती दुसऱ्या गांवच्या पाशाणाकारांकडल्यान लोक हाडटाले. पूण सामक्या सुरवातीच्या काळार जेन्ना ह्यो वस्ती गांवांत मेळप शक्य नासतालें तेन्ना लोक न्हंयेंतल्यान वा मड्डेवयल्यान जाय तसल्या आकाराचो फातर सोदून हाडून तांचो उपेग करताले.

सामक्या आदिमकाळार जेन्ना पेत्रोल आनी हेर तेलां गांवांत मेळप शक्य नाशिल्लें तेन्ना लोक सुर्या उजवाड आसतनाच आपलीं सगळी कामां करुन सोंपयतल्याचें सांगतात. ह्याच काळार 'चुडीचो' सर्रास उपेग करताले.

उपरांत 'खश्टेल-तिळेल-खोबरेल' गांवांत उपलब्ध जालें आनी पणट्यो -दिवल्यो पेटूंक लागल्यो. हळू-हळू मोट्या वाड्यांनी 'गोलोफ' पेटले. गांवांत पावताच चिमणी, कंदील आनी पॅट्रोमॅक्स सारके दिवे दिसूंक लागले

**चिनी मातयेच्या आयदनांचे गांवांत दिसपी मुखेल प्रकार म्हळ्यारः**

चिक्र-बशी, वरणी, बुयांव, आचांव, कांसो, पिरी, किटली, फुलदाणी.

लाकूड आनी तरेकवार धातूपासून तयार केल्ल्या संवसारपयोगी अशा, वयर सांगल्यात त्या वस्तींशिवाय, तण, झाडा-पेडांच्यो साली आनी बडयो वापरून केल्ल्यो जायत्यो वस्ती गांवांत लोकांच्या वापरांत दिसताल्यो. तांतल्यो कांय अश्योः

पिसोणी, सात्र, विरोणी, मांद्री, शिर्के, कोबले, निवर्णे (लिवर्णे), चिकनळी, गोफीण, पांजरी, पांकाटी, दोर, शेल, राजू, गचकी, दावें, जावळो, दांतोणी, लिकोणी, कंड्डो, घुरम, सांतली.

आयच्या नव्या युगाचें वारें, आमोणें गांवांतय पावलां. नव्या युगांतल्या स्टील, प्लास्टीक आनी कंवचेच्या आयदनांनी पूर्विल्ल्या आयदनांचो जागो घेवपाक सुरवात केल्या. घरांतलीं जुनी पोरनी तांब्या-पितुळचीं आयदनां विकून नवे मोदीचीं स्टील प्लास्टीकचीं आयदनां घेवपाचें 'फॅड' आयचे नवे पिळगेमदीं रिगलां.

वयर सांगल्यांत त्या आयदनांमदले कांय प्रकार सोडल्यार हेर सगळे प्रकार हिंदू-किरिस्तांव दोनय समाजांत आशिल्ले, मात कांय आयदनांक वेगळ्या नांवान वळखताले. देखीकः हिंदु लोक ज्या आयदनाक 'सूप' म्हण्टात ताका किरिस्तांव समाजांत 'शेंपूल' अशेंय म्हण्टात.

हिंदू देवळांत दिसपी वा संबंदीत वस्ती म्हळ्यारः तोर्ण, अबदागीर, सूर्यपान, चंवरी, मोरशेल, घुडी, सत्री, फुगो, भालदारकाठी, कळस, दिवटी, पालखी, लालखी, रथ, पायघडी बी. ह्या सारक्यो वस्ती जरी किरिस्तांवांच्या इगर्जेंनी आनी कपेलांनी दिसना आसल्यो तरी बोंदेर, वार, इमींताल, आल्तार, चॅरोल बी थंय दिसतात.

संपर्कः 9823575623

***



# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

सातवो वांटो

माधव बोरकार

जल्म आनी मरण हे जिणेचे दोन ध्रुव. ह्या दोन ध्रुवां मदलो प्रवाह म्हळ्यारुच ही जीण. जाणे देखलें पाळणे ताका मसंड पळोवंची पडटा असो एक संकेत आसा. हें एक सनातन सत. तें कोणाकूच चुकोवंक येना. हो एक सार्वत्रिक अणभव आशिल्ल्यान संवसारांतले विंगड विंगड संस्कृतायेंत आनी कवींनी ह्या अणभवाक आपलेपरीन अर्थ दिवपाचो यत्न केला. धार्मिक तत्वगिन्यान मरणाविशीं वेगवेगळे तरेन सांगलां. मरण म्हळ्यार मनशाचे जिणेचो अंत. मनशाक आनी दुसरो जल्म नासता. तर भारतीय तत्वविचार पुर्नजल्म मानता. मनीस चौद्यांयश्याच्या फेऱ्यांतल्यान वता. आनी परत जल्म नाका आसत जाल्यार बरीं कर्मां आनी शुद्ध आचरण दवरून ह्या जल्ममर्णांच्या फेऱ्यांतल्या मोक्ष मेळपाक अशें तें तत्वज्ञान सांगता. आत्म्याच्या अमरत्वा विशीं गीता सांगता.

*पिकून अव्दार जाले मळे*
*चुकले चौद्यांयश्याचे फेरे*

असो पांडुरंग भांगी हांचो अणभव. तुकारामान आपुले 'मरण पाहिले म्या डोळा। तो हा सोहळा अनुपम्य' अशें म्हळां. तर तुकारामाचो समकालीन कवी जॉन डन, "Death be not proud, though some have called thee/mighty and dreadful... one short sleep past, we wake eternally, And death shall be no more, Death thou shalt die अशे उद्गार काडटा. तुकारामाक मरण म्हळ्यार सुवाळो कसो दिसता तर डन हाचे कवितेंत मरणाविशींचो भंय सुप्त रुपान दिसता. विसाव्या शेकड्यांतले कवितेंत मरणाचो आशय वेगवेगळेतरेन व्यक्त जाला. सिझार पावेज (Ceasare Pavese) हो म्हत्वाचो इटालियन कवी. ताच्यो 'Earth and Death' आनी 'Death shall come, Using your eyes.' ह्यो दोन म्हत्वाच्यो कविता आसात,

*Death shall come, using your eyes -*
*the death that is with us*
*from morning till night, unsleeping,*
*muted like old remorse.*

अशें म्हणपी ह्या कवीन आपल्या हातान आपलें जीवित सोंपयलें. जॉन बेरिमन आनी सिल्विया प्लाथ हांकां मर्णाचें एके तरेचें आकर्शण आशिल्लें. बेरेमनान मिसिसिपी न्हंयन घालून घेतलें तर प्लाथान घरांतलो गॅस चालू करून आत्मघात केलो. अतिसंवेदनशिलतायेचो हो परिणाम आसूं येता. पु. शि. रेगे सारकिलो कवी मरणाक फुलांफुलांचेर नटिल्लो पळयता. हें मरण गर्जत येता धूंद वाऱ्यावरी...

*मी मृत्यू पाहिला,*
*पण आज पाहिला*
*अकारण कुणी*
*उजळाया कातर जीवन उरलें*
*जो धांवुन आला*
*मी सखा पाहिला.*

मरण केन्ना घालो घालीत तें सांगपाक मेळना. 'इतुक्या लवकर येईन मरणा' अशें बाकीबाब म्हण्टा ताकाय विशेश अर्थ आसा. भांगी हांचे कवितेसबंदान विचार करतना पु. शि. रेगे हांचो उल्लेख करप गरजेचें दिसता. हाचें एक कारण म्हळ्यार ह्या दोगांय कवींची संवेदनशिलताय सारकीच आसा. हेर भारतीय कवींनी हो आशय कवितेंत केळयला. मराठी भायर आनीक एका भारतीय कवीचो हांगा उल्लेख करूंक जाय तो म्हळ्यार गुजराथी कवी उमा शंकर जोशी हांचो. आपलो व्हडलो भाव संवसार सोडून गेल्या उपरांत ताणी 'सद्गत मोटाभाई' ही दीर्घ विलापिका बरयली. तातूंतल्यो ह्यो कांय वळी:

*मृत्यू यदि अटल सत्य, वृथा अश्रु क्यों?*
*शोक, विलाप, क्रंदन, अरण्यरुदन क्यों?*
*जो कुछ आन पडे, नियति के आगे सिर झुका सहे!*
*फिर भी वे अनर्गल अश्रु कहां से बहते है।*

(मूळ गुजराती कवितेचो हिंदी अणकार)

भांगी हांचे कवितेचें एक म्हत्वाचें आशयसुत्र म्हळ्यार मरणाची जाणीव आनी ते सबंदान विचार करतना वयर दिल्ली फाटभूंय लक्षांत घेवंची पडटा. 'दिस्टावो' आनी 'अद्रुस्टाचे कळे' ह्या दोन संग्रहांतले कवितांनी हें आशयसुत्र मुखेलपणान दिसना. 'दिस्टावो' संग्रहांतली 'एक दीस असो येता' ही कविता मनशाची जीण आनी मरण हांचेमदीं आशिल्लें नातें सांगता. एक दीस असो येता आनी मन निर्शेवन वता आनी जीव खोशयेन धोलयता आनी ह्या संवसाराच्या जंवजाळांत काळजाक घुस्पावन उडयता. आयिल्लो दीस कोणाक रावना आनी जो दीस वता तो परत येना. काळाचें चक्र परत फिरोवंक येना हाचें कवीक भान आसा. आनी संवसाराचें काळ-चक्र कोणा खातीर थांबना. काळ एकसारको मुखार वचत आसता. ताची गती कोणूच आडावंक शकना. देखून कवीक म्हणचें दिसता,

*ह्याच खातीर रगताक म्हज्या*
*भर्ते-सुक्ते ओड आसा*
*मर्ण म्हाका येतलें म्हणून*
*जिणेक म्हज्या मोल आसा!*

मरण मनीस जिणेक नवो अर्थ दिता. मरणाचो भंय धरपाची कांयच गरज ना अशें कवी हांगा सुचयता. मरण आसा म्हूण जीयेवपाची

मनशाक ओड आसता. ती एक सभावीक गजाल जल्मासावन एक दीस ही जीण सोंपतली म्हणपाची जाणीव मनश्याच्या मनांत सुप्तअवस्थेंत आसता. आनी तो भंय ताच्या मनार चेंपण कशें उरता. ह्या कवीक तो भंय आशिल्लो काय? असो प्रस्न मनांत येता. (भांगी हांचो पुर्नजल्माचेर विश्वास नाशिल्लो. ते मरण म्हळ्यार जीणेचो अंत अशें ते मानताले. मरणा उप्रांत जीं आमी कांय कर्मकांडां करतात ताची कसलीच गरज आसना अशें तांकां दिसतालें. एक फावट तांचे कडेन खबरी करतना ताणी म्हाका तशें सांगलें ताची याद जाता. ह्या बाबतींत बौद्ध धर्माचें तत्वज्ञान आपल्याक पट्टा अशें ताणी सांगिल्ल्याचें म्हाका ह्या संदर्भांत आठवता) 'दिस्टावो' संग्रहांतली 'कांकणाचो हारसो' ही कविता ह्या आशयाक स्पर्श करता. ही एक तांची थोडी दीर्घ कीवता. तिका लांबाय आनी खोलाय आसा. आपल्या अंर्तमनांत बुडी मारून आपलोच सोद घेवपी ही कविता. जीवितांतले सगळे उतळताप सहन करून निमाण्या पेण्यार पावतकच कवीक दिसता:

*वाऱ्या, वाऱ्या*
*आता सोंशे*
*आयच्यान तूं म्हजो सांगाती.*
*तुगेलें विश्वरुप पळेलें*
*आनी आज तृप्त जालों.*
*आतां केन्नाय यो*
*आनी म्हाका शिंपडाय.*

एका खिणार ताचें व्हडें सुकाण्याविणें आशिल्लें आनी ताका दिगंत दिसना आशिल्ली. तांडून तांडून जीव थकलो तरी कसलीच नाट मेळनाशिल्ली. आतां ही अवस्था बालांडून कवी मुखार गेला. आनी अश्या वेळार अद्रुस्टाचीं मालीं रगतांत खेळूंक लागतात आनी अळार पिकिल्ल्या वेळार प्राण मातूंक लागता...

कवीचें जीवित आनी ताचें कवीत एका एकामेकांक समांतर वता. 'दिस्टावो' संग्रहांतल्यो कविता बरयल्यो तेन्ना आपले पिरायेच्या चाळिसाव्या लागीं पाविल्लो. ताचो कुरवो ह्या संग्रहांतले कवितांचेर दिसतात. आनी 'अद्रुस्टाचे कळे' संग्रह हो तांच्या ऐन पन्नाशिंतलो. जीविताच्या यात्रेची देंवती सुरु जाता तेन्नाचो. मरणाची जाणीव तितले खरपणान ह्या काळांतले कवितेंत दिसना. कांय मेजक्या कवितांनी हो भाव दिसता. 'चांफेल्ली सांज' ह्या संग्रहांतल्यो कविता तांचे पिरायेच्या सत्तरींत बरयल्ल्यो. ह्या काळांत खासा कवी मरणाच्या दारांतल्यान परत आयिल्ले. ताचें पडबिंब ह्या काळांतल्या कवितांनी पडिल्लें दिसता. भांगी हांची कविता म्हळ्यार एक अखंड आत्मसोद. त्या सोदाक अंत ना. तो आत्मसाक्षात्काराच्या उजवाडाक अश्रेता. जिणेच्या अनवळखी वाटेर तोच अनवळखी जाता आनी उक्ते दोळ्यां दिवे आसले तरी मुखार ताका उमाशेची काळखीच दिसता. आनी ही वाट सोरपाची फोडा आशिल्ली आनी दोळ्यांक तेजाबाची कळा आसा. ताका लागून उमाशेची काळखी विर्गळून वतली असो ताका भरवंसो दिसता. हे वाटेक रेवाड्यांची धुंवाळी आसा... आनी हे वाटेचो अंत खंय जाता?

*शाश्वताचे भेटेक हाडूं*
*खंयचे अमृताचे कळे?*
*भोगितच जियेतां*
*मर्णाचे सुवाळे!*

हाचोच अर्थ मरणाकडे एका सकारात्मक नदरेन पळयता.

*दीस फाड्याचे*
*निरोप घेवपाचे*
*किद्याक हिशोब जोडी-मोडिचो?*
*घडये एकच धाकें*
*जायन धनी अलक्षाचो*

तो हांगा मरणाक सुवाळ्याच्या रुपान पळयता तर हेंच मरण ताका अलक्षाचो धनी करता. हे कविते उप्रांतची कविता येता ती 'अपेसांचेर अपेस' ही कविता आत्मचरित्राच्या आंगात वता. "जिणेचे हे यात्रेंत कितलीं तरी अपेसां म्हज्या वाट्याक आयलीं. जायते अपमान सोंसचे पडले. उवेखणी भोगची पडली. कितलीं तरी दुशणां पदराक आयलीं." अशें कवी सांगता. एक मेकळें कन्फेशन म्हूण ताचेकडेन पळोवं येता. हांगा थोडें विशयांतर करप गरजेचें दिसता. भांगी हांचो स्वभाव एकमुळो आशिल्लो. खंयचेय कार्यावळींक ते केन्ना आयिल्ले दिसनाशिल्ले. जीणेच्या अखेरच्या कांय वरसांनी ते चुकून कार्यावळींक दिसताले. तेय प्रेक्षकाचे भुमिकेंत. तांकां माचयेर हाडप हें म्हाकठीण काम आसतालें जंय सूर जुळ्ळो ताचे कडेन मात ते मेकळे जाताले. थोडोसो हो उग्र सभाव आशिल्ल्यान तांचेपासून आमची पिळगी बरीच पयस रावली. जीवितांत आयिल्ल्या गोड अणभवांपरस कोडू अणभवूच गांठीक आशिल्ल्यान ताणी आपल्याक सगल्यांपासून पयस दवल्ले. अणभवूच मनशाचें व्यक्तिमत्व घडयता. ताका आदार दिता. अपेसांचेर अपेस हीच ताच्या संचिताची जोड आनी 'दुशणाचेर दुशण / होच तुज्या प्राक्तनाचो भोग जाता. हो सगळो उतळताप कवी सोंसता. तो म्हण्टा:

*तळमळ्यांक आतां पारावार ना*
*सोंशणिकायेच्या सिद्धीपेलो हो आकांत*
*कर मर्णाचीच आराधना*
*ते पैलीं;*
*तुजीय जीण जावंदी*
*जिणेक एक प्रार्थना!*

ह्या सगळ्या उतळतापातल्यान मुक्त जावपाक मरणाची आराधना करची अशें कवी हांगा सुचयता. तीच एक मुक्ती वा मोक्षाची वाट आसा अशें ताका दिसता.

मरण ह्या आशय सुत्राच्यो कविता वाचतना 'किद्या खातीर हो जन्म' ही कविता तिचो विचार करपाक लायता. कित्याक तर जल्म आसा देखून मरणाक अर्थ प्राप्त जाता. हे कवितेचे निर्मणीची कथा कवी सांगतना बरयता, केन्ना लख्ख करून वीज पेटिल्लेवरी अकस्मात एक कडवें सुचता आनी भराभर कवित स्फूरूंक लागता. 'किद्याखातीर हो जल्म?' आनी 'शहर वाडत वता' ह्या दोन कवितांच्या वेळार मात हांवें अनुक्रमान स आनी दोन म्हैने वेणो सोंसल्यात.' ही कविता मुक्त छंदांतली. ती प्रश्नान सुरु जाता. 'किद्याखातीर हो जल्म?" ह्या

प्रश्नाक कवीक जाप मेळना. आनी हो संवसार तरी कित्याक करप एके बियेंतल्यान जे भशेन एक रुख किल्लून येता आनी ताचो खांदयांनी विस्तार जाता तशेंच 'आप आपलेपरी नवे जीव जल्माक घालीत/ शाश्वताचो सोंस धरप?' असो प्रश्न कवीक पडटा. ह्या प्रश्नाचो ठाव मेळना. आनी ताची व्यथा सुवयो कशी रोंबत रावता. हे जिणेक पारजतावरी फुलां येतात आनी ओवळां आनी हात्यावरी तिका घमघम सुटना. तरीय आसतना मनशाक जल्माची अनावर ओड आसता. भरिल्ल्या संवसारांत एकटुको जियेल्लो जुंवो धर्तरेचो ताल धरून नाचता आनी नखेत्रांच्यो चुडी पेटयत तो दिको विसरता आनी

*फाल्यांची फांतोड फुलोवपाक*
*धारेचेर*
*ती आपलो खेळ मांडीत*
*खेळत रावतात.*

'प्राक्तनाचे वाटेन भोंवतना' हे कवितेंतल्यो वळी

*अस्तमतेची साथ मांडिल्ल्या दोळ्यांत*
*सकाळ झिळमिळून झिळमिळटा!*

वयले कवितेक एक आगळेंच बळ दितात. ताकाच लागून कवी आपल्याक मोनेळीचे वाटेवयलो ब्रम्हांडाचो भोगी अशें म्हण्टा.

'चांफेल्ली सांज' ह्या संग्रहांतली 'म्हायात्रा' ही कविता अशीच म्हत्वाची आसा. हें जीवित म्हळ्यार एक म्हासमुद्र. भारतीय संत कवी ताका भवसागर अशें म्हण्टात. मनीस जीण म्हळ्यार ह्या भवसागरांतलें तारूं. तें पल्तड गांठपाक आशिल्लें आसता. आमच्या अध्यात्माचे परिभाषेत ही पल्तड म्हळ्यार मोक्ष. थंय पावपाखातीर भारतीय मनाक हुटहुटे लागतात. 'म्हासमुद्रांतल्यान म्हायात्रेक वतना वाटेर मरण आयल्यार आपल्याक दर्यांत उडयात अशें कवी म्हण्टा.'

*ल्हारां खंयचेय तरी तडीक*
*म्हाका लायतलीं*
*नुस्त्यान आनी गिधांनी*
*मांस खावन उडैल्या उप्रांत*

त्या सांगाड्यांतल्यान उजवाडाच्या कोंबावरीं एक सपनाचो रुख रुजून येतलो आनी ताका खांदयो फुटून विस्तारत वतलो... हो रुख फळून फुलून ताचेर आठय दिकांचीं सवणीं येवन बसतलीं आनी फळांतलें अमृत चोखतना 'सपनांची गीतां/तांच्या ओंठांर फुलतलीं/ अज्ञाताच्या सोदाक/ तांचीं पाखां उडत रावतलीं... हे कवितेंतल्यान मरणाचें एक वेगळेंच चित्र दोळ्यां मुखार उबें रावता. मरणाच्या भंयाक ती पयस करता. मरणाक पर्जळाचें भान आसा ही जाणीव ही कविता करून दिता. मरणाचो अणभव मनोहरराय सरदेसाय आनीक एके वेगळे तरेन सांगता.

*मर्णाचें गुपीत*
*मेल्ल्यांनीच सोदचें*
*जित्यांनी*
*जिविताच्या मोगांत*
*घुस्पून रावचें.* (पिसोळीं)

आनी बाकीबाब म्हण्टा:

*जिणेपलतडचें किरण*
*ताकाच म्हण्टात मरण*

हे दोन वळींक सुभाषिताची कळा आसा. भांगी हांची कविता अणभवाची सासाय घेवन आयल्या आनी सरदेसाय आनी बाकीबाब हांच्यो कविता मरणा सबंदान निखळ विचार मांडटात. 'मरणाचे देगेवयलें मृगजळ' / म्हळ्यारच जिणेचें मळ अश्या उतरांनी जीण आनी मरण हांचे मदलो भेद बाकीबाब स्पश्ट करता. परत हो अणभव भांगी एके वेगळे भाशेन सांगता.

*जिणेची यात्रा सोंपता*
*तेन्नाच*
*मर्णाचो उजवाड फांकता*

हांगा उजवाड म्हत्वाचो. मरण म्हळ्यार काळोख न्हय. तर तो एक लख्ख उजवाड. जर्मन म्हाकवी गटे हाणे आपल्या निमाण्या खिणाक आनीक उजवाड अशीं उतरां काडिल्लीं ताची ह्या संदर्भांत याद जाले बगर रावना. अस्तमानाच्या एका पिकिल्ल्या खिणार प्राण आबोल्याचे वाटेन वता आनी तो जेन्ना चांफेवन येता तेन्ना

*खिणा मजगतीं सर्णार चडिल्लो देह*
*भस्मिभूत जावन पर्जळटा!*

भांगी अशेतरेन मरण ह्या अणभवाक आशिल्लीं परिमाणां दाखयता. जल्म आनी मरण हांचे मदीं एक उजवाडाचो धागो आसता. आनी तेच भशेन तातूंतल्यान दर एकलो आपली अदृस्टवाट सोदीत भोंवता... आनी

*जिणेच्या मोडणार आज, मरणय*
*धागऱ्यो वाजयत साद घालता*
*उजवाडाक आशेल्ली जीण*
*मर्णांतय सप्नेत जियेता!*

मरण म्हळ्यार जीणेचो अंत न्हय ही जाणीव भांगी आपले कवितेंतल्यान वेगवेगळे तरेन सुचयता. 'सकाळ' हे कवितेंतूय ताची कुरु मेळटा. सांज आनी सकाळ हांचो रंग वेगळो आसता. तांचे रंग एकूच आसता. आमोरेच्या पारार सकाळ जाल्ल्याचो भास जाता. 'मरणय/सपनांच्या देशांन/उदेल्ली एक सकाळ आसता अशें कवीक दिसता. 'चांफेल्ली सांज' हे तांच्या अखेरच्या संग्रहाचें नांव अर्थपूर्ण ताकाच लागून दिसता. ह्या संग्रहांत वट्ट एकूणपन्नास कविता आसात. तातूंतल्यो सुमार वीस कविता मरण ह्या एकाच आशयाक केळयतात. कोंकणी कवितेंत ताचें वेगळेंपण नदरेंत भरता. धारेपेल्यान अखेरची भैरवी गायत धारेपेल्या उजवाडांत जळपी हो कवी म्हण्टा:

*मोगरेच्या कळ्यांवेलें चांदने*
*तशें जांवचें*
*म्हजें अखेरचें पेणें!*

संपर्क: 9420222876

***



# कवी आनी कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

॥१॥

कवी पांडुरंग भांगीन आपलो इश्ट शंकर रामाणीचेर एक कविता बरयली- 'गांव सोडून वचूं नाका' पूण रामाणी आपलें तें खरें करीत निमाणें गोंय सोडून बेळगांवां गेलोच. कवी रामाणीक गोंयांत आपलो धोल वाजोवंक आयलोना. कवी भांगीकूय गोंयांत रावनूय केन्ना आपलो धोल वाजोवंक जमलेंना. गोंयांत गांवां-गांवांनी, वाड्यावाड्यार 'घुमूघुमू' धोल वाजतात तें पळोवन रामाणीन आपणेंय आडक्या-पायशिरेचो एक धोल हाडून पळेलो पूण ताचेर पयली तोणी मारल्या मात, धोल फुटलो आनी जावपाचें तें जालेंच. रामाण्याक निमाणें गांव सोडून वच्चें पडलें. आनीक कांय तेंपान- हे दोगूय कवी हो संवसारूय सोडून गेले. आतां फाटल्यान उरल्या त्यो तांच्यो कविता. कवितेंतूच ते केन्ना केन्ना मेळटात. उलयतात. केन्ना उतरांच्या झोपाळ्याचेर झेल घेतात. केन्ना वाचप्याचेर मोनेळूय घालतात.

हेरॉल्ड ब्लूम म्हणटा तें फट न्हय. 'A Poet becomes all the more alive once he dies.'

***

॥२॥

भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार आनी कवी शंकरबाब रामाणी हे म्हजे साहित्य-मळा वयले मार्गदर्शक. कवी माधवबाब बोरकार हेवूय म्हजे मार्गदर्शक, इश्ट आनी बरें मागपी. ह्या तिगांयचो साहित्य-सांगात म्हाका मेळ्ळो. हे तिगूय लेखक रसीक-वाचपी आनी तांचें वाचन चौकस आनी चौफेर. तांच्या सहवासांत म्हाका वाचनाची गोडी लागली.

भारतीय आनी विदेशी भाशांतले लेखक, कवी हांव ह्या तिगांक लागून वाचूंक पावलों. जर्मन कवी गोयथे, पोर्तुगीज कवी फेर्नांद पेस्सोव हांच्या कवितांचे इंग्लीश भाशेंत अणकारीत जाल्ले कविता संग्रह रवीन्द्रबाबान म्हजे कडल्यान वाचून घेतले. भारतीय कवी सीताकांत महापात्र, अमृता प्रितम, केदारनाथ सिंह, त्रिलोचन, अज्ञेय, भवानीप्रसाद मिश्र, उमाशंकर जोशी आदी कवींचे कविता संग्रह रवीन्द्रबाबान म्हाका भेट दिल्ले. कवी रामाणी सांगतालो की वेगवेगळ्या भाशांतले कवी अभ्यास म्हणून वाच. तांच्यो कविता आवडल्यार त्यो अणकार करपाचो यत्न कर. अशें केल्ल्यान म्हजीय कविते संबंदीची समज वाडूंक पावतली. कविते कडेन पळोवपाचो दिश्टिकोन अदीक खोल आनी व्यापक जातलो. कवी माधवबाब एक सर्जनशील कवी आनी इंग्लीश भाशेचे, एस्थेटिक्सचे अभ्यासक. माधवबाब आनी हांव आमकां आवडिल्ल्या दुसऱ्या भाशेंतल्या खंयच्याय कवींचेर अदीं-मदीं चर्चा करतात. ताका लागून देशी-विदेशी भाशांनी साहित्य-मळार कितें चल्लां ताचो अदमास येवंक पावता.

झ्याक प्रेव्हेर हो नामनेचो फ्रेंच कवी. ताचे मूळ फ्रेंच कवितेचो इंग्लिश अणकार- 'To paint the portrait of a bird' कांय वर्सां आदीं म्हज्या वाचनांत आयलो. तो वाचून हांव इतलो भारावन गेलों की 'शेवण्याचें चित्र रंगयतना' ह्या नांवान हांवें तिचो कोंकणी अणकार केलो. हांवें वाचिल्ल्या उत्कृश्ट कवितां मदली ही एक कविता. हांवें केल्लो कवितेचो अणकार आपणाक आवडलो म्हणून सांगपाक माधवबाबान फोन केल्ल्याची याद आसा. एक दीस कवी डॉ. मनोहरबाब सरदेसाय मेळ्ळे. मनोहरबाब हे फ्रेंच भाशेचे खांपे वाचक आनी प्रोफेसोर. तांणी झ्याक प्रेव्हेराच्यो कविता मूळ फ्रेंचींत वाचल्यात. तांणी सांगलें, झ्याक प्रेव्हेर हो आत्मनिश्ठ कविता बरोवपी कवी न्हय. तो सामाजीक आनी राजकीय आशयाच्यो कविता बरोवपी कवी. ताणें ही एकूच अशे तरेची कविता बरयल्या म्हणून. म्हजो अणकार बरो जाल्ल्याचें मनोहरबाबान सांगलें. म्हजी तोखणायूय केली. मनोहरबाब सभावान एकदम मायेस्त. केन्नाय मेळटाले तेन्ना म्हाका 'बरें बरय, हांव तुजें वाचतां' म्हणून सांगून म्हजी उर्बा वाडयताले. याद येता तांची केन्ना केन्ना...

***

॥३॥

मुळांतूच म्हाका वाचनाची आवड आसा. वेगवेगळ्या भारतीय भाशांतलें साहित्य हांव वाचतां. त्या भायर विदेशी भाशांतलें इंग्लीश आनी हिंदींत अणकारीत जाल्लें साहित्य वाचपाक म्हाका आवडटा. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो चार भाशा म्हाका समजतात. हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो filter languages. हेर भाशांतलें साहित्य ह्या दोनूय filter languagesत आयले बगर अणकार करप कठीण आसता कारण सगळ्योच भाशा आमकां समजनात. खंयच्याय लेखक, कवीची साहित्यकृती म्हाका आवडली जाल्यार तिचो कोंकणींत अणकार जावचो अशें म्हाका दिसता आनी मागीर ते नदरेन विचारचक्र सुरू जाता.

अणकार करतना हांवें थारावन अणकाराच्या संबंदांतलीं अमूकच पुस्तकां वाचल्यांत अशें ना. पूण अणकाराच्या संबंदान खंय कितें छापून आयिल्लें हांव बारकायेन वाचतां. साहित्य अकादेमी सारकी संस्था अणकाराच्या मळार खूब मोटें काम करता. तांणी छापिल्लीं बरींच पुस्तकां म्हज्या संग्रहांत आसात. तीं पुस्तकां reference म्हणून म्हाका उपेगाक पड्टात. त्या भायर, हिंदी, इंग्लीश, मराठी आनी कोंकणी भाशेंतले शब्दकोश म्हज्या पर्सनल लायब्ररींत आसात. तांचोय म्हाका खूब उपेग जाता.

हांवें आज मेरेन कवितांचेच अणकार चड केल्यात. पूण चडशे स्फूट आनी मूड लागता तशे. पूण साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जाल्ले हिंदी कवी राजेश जोशी हांच्या 'दो पंक्तियों के बीच' ह्या कविता संग्रहाचो कोंकणी अणकार हांवें 'दोन वळींचे मजगतीं' ह्या नांवान केला आनी तें पुस्तक साहित्य अकादेमीन छापलां. सबंद पुस्तकाचो

अणकार करपाक बैठक मारची पड्टा आनी तें खातीर वेळूय खूब खर्चता. म्हाका ह्या कविता संग्रहाचो अणकार करपाक सुमार दोन वर्सां लागलीं. मजगतीं, नामनेचो हिंदी कवी लीलाधर जगुडी आनी कन्नड कवी एच. एस. शिवप्रकाश हांणी आपलेय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळिल्ले कविता संग्रह हांवें कोंकणींत हाडचे असो म्हाका आग्रो केल्लो. पूण म्हजे कडेन वेळ उणो आशिल्ल्यान तें काम मुखार वचूंक पावलेंना.

हांव जे अणकार करतां ते एक हौस म्हणून. तातूंत म्हाका आनंद मेळटा. व्यावसायीक स्वरूपाचे अणकार हांवें केन्ना करूंक ना. त्या क्षेत्रांतलो म्हाका व्हडलोसो अणभव ना.

***

।।४।।

साहित्यकृतींचो अणकार करप ही एक व्हड चॅलेंज आसता. स्रोत भाशा आनी लक्ष भाशेचेर अणकारप्याची हुकूमत आसूंक जाय. तातूंत कवितेचो अणकार करप तर खूब कठीण गजाल. अणकार करताना तेरतेरेचीं आडमेळीं येतात. केन्ना केन्ना एके भाशेंतल्या उतराक दुसरे भाशेंत अचूक समानार्थी उतर मेळटाच अशें ना. तेन्ना अणकारप्याची खरी कसवटी लागता. अणकारीत कवितेक निमाणें रूप येसर कितलेशेच ड्राफ्ट तयार जातात. शब्द बदल करचे पड्टात. वाक्य रचनेंत गरजे प्रमाण फेरफार करचो पड्टा. कवितेच्या 'फायन ट्युनींगची' ही प्रक्रिया अणकारप्याचें समाधान जायसर एकसारकी चलता. 'दोन वळींच्या मजगतीं' ह्या कविता संग्रहांतल्यो कांय कविता खूब बऱ्यो अनुवादीत जाल्यात हाचें म्हाका समाधान आसा. वाचकां कडल्यानूय ह्या पुस्तकाक बरो रिस्पॉंस मेळ्ळो. राजेश जोशी भोपाळाक रावता पूण हांव तांकां प्रत्यक्ष केन्ना मेळपाक पावंक ना. तांणी मुजरत फोन करून म्हजी खबर घेतली आनी कोंकणी अणकाराची एक प्रत आपणाक मानशी धाडून दिवची म्हणून म्हाका सांगलें. उपरांत पुस्तक मेळटकीच परत फोन करून अणकारा खातीर खोस उक्तायली. साहित्य अकादेमीन आपल्याक पुस्तकाच्या अणकाराच्या संबंदान कांयच कळोवंक ना असो म्हजे कडेन शिणूय काडलो.

***

।।५।।

आजमेरेन हांवें बऱ्योच कविता अणकारल्यात पूण त्यो सगळ्योच मना सारक्यो अणकारून जाल्यात अशेंय ना. ज्यो कविता बरे तरेन अणकारीत जाल्यात त्योच हांवें उजवाडाक हाडल्यात. अणकारा कडेन हांव कवितेचो रियाज कसो पळेतां.

कांय वर्सां फाटीं औरंगाबाद हांगा साहित्य अकादेमीन 'फेस टू फेस पोयट्री ट्रांन्सलेशन' ही चार भाशांचो कार्यशाळा घडोवन हाडिल्ली. नामनेचे कथाकार आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेते लेखक श्री. दामोदरभाई मावजो तेन्ना साहित्य अकादेमीचे कोंकणीचे निमंत्रक आशिल्ले. तांणी हो कार्यशाळा घडोवन हाडपाक खूब [illegible] घेतिल्ले त्या कार्यशाळेंत वांटेकार जावपाक म्हाका आपोवणें आयिल्लें. थंय हांवें सिंधी, गुजराती आनी मराठी कविता कोंकणींत अणकारिल्ल्यो. त्या कवितांचें 'साहित्य अकादेमी' पुस्तक उजवाडावपाची आशिल्ली. पूण तें अजून मेरेन उजवाडाक आयलेंना अशें दिसता. एक निमाणो प्रयत्न म्हणून एकदां सिंधी भाशेचे नामनेचे कवी वासुदेव मोही साहित्य अकादेमीचेर निमंत्रक आसतना हांवें तांचे कडेन हो विशय काडलो. पूण तांणी सांगलें, अशे तरेची कवितेच्या अणकाराची फायल आमच्या कार्यालयांत ना. हें आयकून हांव पुराय निर्शेलों. भाईक ही गजाल हांवें सांगतकीच भाईय सामको बेजार जालो.

वेळ दिवन आनी मन लावन अणकारीत केल्लें काम फुकट गेलें हाचे अजुनूय चिटमिटे पड्टात.

***

।।६।।

समिक्षक एस्. डी. तेंडुलकार म्हजे कविते विशीं वेगवेगळे तरेचे प्रस्न उपस्थित करतात. तातूंतल्यान कविते विशींची म्हजी सोदप्रक्रिया अदीक सक्रीय जाता.

तांचे कवितेच्या संदर्भातले प्रस्न कवीक logically विचार तर करपाक लायतातूच त्या भायर कवीच्या सर्जनप्रक्रियेक चालना दिवपीय आसतात.

कवी रामाणी हे म्हजे मार्गदर्शक आसून लेगीत तांचे गूण-दोश म्हाका स्पश्टपणान दिसताले. पूण आमचे मदीं पिरायेचें खूब व्हड अंतर आशिल्ल्यान हांव निमाणे मेरेन तांकां ते विशीं कांय सांगूंक पावंक ना. आज एके ओळींत कवी रामाणींचें वर्णन करतलो जाल्यार 'Ramani is a bundle of contradiction' अशे तरेन करूंक येता. रामाणींचे likes आनी dislikes violent आसताले हातूंत दुबाव ना. हांव नवोदीत कवी आसतना म्हज्यो कांय कविता वाचून- 'हांव स्वता कविता 'येवप' हें परमेश्वराचें देणें मानतां. आनी ''व्हंकलेचे पांय सव्यार दिसतात'' हे अर्थपूर्ण कोंकणी म्हणीप्रमाण, परमेश्वरान तुमकां खात्रीन (१००%) तें 'देणें' दिलां हातूंत इल्लोय दुबाव ना. ताचें आनीक एक कारण म्हळ्यार, तुमची निखटें 'शब्द-पिशें' लागिल्ली कविता लेगीत म्हाका spontaneous (उत्स्फूर्त) दिसता' अशीं तोखणायेचीं उतरां बरोवपी रामाणी केन्ना केन्ना अकस्मात 'तुमचे कडेन सांगपा सारकें कांयच ना तरीं तुमीं कविता बरोवंक सोदतात, तुमीं कवितेंत फकत शब्दांचो खेळ करतात आनी शाब्बाच्या बोमाड्यां सारके उतरांचे बोमाडे काड्टात' अशे तरेन म्हजें खच्चीकरण करून म्हजी खूब धजाय मारतालो. पूण तशें तेंडुलकारान केन्ना करूंक ना. उरफाटें म्हज्यांतल्या कवीक महत्वाकांक्षी कविता बरोवपाक अदीक उत्तेजन दिलां अशें म्हाका दिसता.

खंयच्याय ज्युनियर कवीच्या 'आत्मविस्वासाचें' खच्चीकरण सिनियर कवीन करचें न्हय अशें म्हाका दिसता. खंयच्याय कवीक आपली खाशेली कवितेची वाट मेळपाक कांय वर्सां वच्चीं पड्टात. सगळ्याच कवींचो हो अणभव. रामाणींय ह्या अणभवांतल्यान गेला. एकदां आपली स्वतंत्र वाट सांपडली की तो कवी मागीर आपले स्वताचे अणभव कवितेंतल्यान अदीक उत्कटतेन मांडपाक लागता. नवोदीत कवीक 'वैचारीक मॅच्युरिटी' येवपाक कांय काळ वच्चो पड्टा. अशा

*(पान १५ चेर)*



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

**दिलीप बोरकार**

### दक्षिणे कडली भोंवडी

आपलें कर्तव्य पुराय जालें काय त्या वावरांतल्यान आपल्याक अळंग कुशीक काडूंक जाय. आपलें ध्येय, आपली मोख कितें हाची जाणविकाय आसत जाल्यार तें सहज शक्य जाता हाचो अणभव म्हाका रवीन्द्रबाबांचे चलणुकेंतल्यान मेळटालो. म्हाका म्हजे ते पिरायेर हें सगळें समजुपाची कितली प्रगल्भताय आशिल्ली खबर ना, पूण हांवें जें कितें वाचन केल्लें ताच्या बळाचेर अमकूच दिका घेवन वेगळें कितें करपाची मनांत इत्सा आसली. म्हाका ते पासत मार्गदर्शन करपी व्यक्तीची गरज आशिल्ली. कोंकणी चळवळींत रवीन्द्रबाबां वरींच आनीकूय लोक आशिल्ले, जांका हांव रवीन्द्रबाबां इतलोच मानतालों. नागेश करमली आशिल्ले, उदय भेंब्रे, मनोहरराय सरदेसाय आशिल्ले. पूण म्हजी म्हूण एक कालेत आशिल्ली आनी ती रवीन्द्रबाबां कडेन लागीं ओडटाली. पुस्तकांचें तें भांडार, तांचें तें आश्रमावरी घर, तांची घरकात्र गोदुबाय, आवय बाई बी जे तरेन वेव्हार करतालीं तांतूंत हांव खंय तरी म्हाका पळयतालों हें ताचे फाटलें कारण आसूं येता. रवीन्द्रबाबांचें उलोवप आनी बरप म्हाका म्हजे कालेतीक पचतालें देखून हांव तांचे फाटल्यान वतालों जावंक जाय. तेच पासत कोंकणी वांगडाच राजकारणांतूय म्हाका रस आशिल्लो. देखून हांव तांचे वांगडा जनता पक्षांतूय आनाळ्यो गुनाळ्यो काडटालों.

**२५ वी खिस्त**

जनता सरकार केंद्रांत आयलें तांतूंत रवीन्द्रबाबांचो वांटो कितलो हें म्हाका तेन्ना कळूंक नाशिल्लें. रवीन्द्रबाब जर जनता पक्षांत नाशिल्ले जाल्यार कितें वेगळें घडटलें अशेंय नाशिल्लें. पूण रासवळ एकचाराचो आनी एकजुटीचो समाजमनाचेर प्रभाव पडटा आनी समाज मनीस पळोवन आपलें मत थारायतात हें म्हाका तांचे वांगडा रावून कळटालें. फुडाराक हांव जितले चळवळींत वावुरलों तांचो फायदो पावलाय येवन आशिल्ल्यां नातर रांपणकारांच्या, टॅक्सी ड्रायव्हर्स, मोटर सायकल पायलट बी सारख्यां कडेन म्हजो कसलोच संबंध नाशिल्लो. तरी हांव म्हजे पर्गीन तांचे प्रस्न समजून घेवन ते सुटाये करपाक म्हजें योगदान दितालों. तांच्या प्रस्नां कडेन म्हजो संबंध जोडटालों. म्हाका दिसता हें सगळें हांव रवीन्द्रबाबाच्या कडल्यान आयकून वा वावरून शिकलों.

हांवें राजकारणांत सक्रीय वांटो घेतला पूण तें हांवें म्हाका दसोवन घेतलेंना. तीय कला अशें म्हाका आतां दिसता आनी ती रवीन्द्रबाबांक लागून साधल्या आसूं येता अशें म्हाका दिसता. रवीन्द्रबाबां वांगडा राजकारणांत आशिल्ले काशिनाथ परब, जी. व्हाय भांडारे, माधव बीर, वसंत सबनीस, दत्ता चि. नायक बी सगळे थळावे लोक आनी ना.ग.गोरे, मधु दंडवते, मोरारजी देसाय, राजनारायण आनी हेर भायले फुडारी जनता पक्ष घेवन बशिल्ले. म्हजे वांगडचे मिग्गिल पाशेको, माधव धोंड, सतीश धोंड बी त्या काळचे जनता पक्षाचे युवा फुडारी ह्या पक्षीय राजकारणांत स्वताक घुस्पावन घेवन जैताच्या रथाचे आपल्याक घोडे मानताले. बरेच जाण आपलें सरकार आयलां म्हूण सामके वल्लेंतूय धरनाशिल्ले आनी सुपांतूय. म्हाका आमचें सरकार येवप म्हळ्यार कितें आनी ताचो म्हाका फायदो कितें हें व्हडलेंशें कळनाशिल्लें. ध्येय आकांताचें आशिल्लें. तीं सगळीं सपनां हांव करतां त्या वाचनांतल्यान तयार जाल्लीं. तसो हांव गुरुनाथ नाईक, काशिकर, अर्नाळकर हांच्यो गुप्तहेर कथाय वाचतालों आनी म्हाका गरूड, झुंजार, काळापहाड बी जायन दिसतालें. पूण तें सत न्हय म्हणपाचें जाका कळटा ताका हें आयलां तें सरकार आपलें हेंय म्हणपाचो तसो अधिकार ना अशेंय दिसतालें. इंदिरा गांधीचे हुकूमशायेक उबगल्ल्या लोकांनी तिका कुशीक दवरून बदल घडोवन हाडलो. म्हणटकच थंय आपलो संबंध कितें हो सादो मुद्दो रवीन्द्रबाब मांडटालो तो म्हाका पटतालो. ताकाच लागून रवीन्द्रबाब सत्ताकारणांतल्यान कुशीक रावून गुजराताक साहित्य संमेलना पासत काय आनीक कसले साहित्यीक बसकेक गेले.

गुजराताक वता म्हणून सांगून गेल्ले रवीन्द्रबाब, थंयच्यान मुंबय आनी मागीर दिल्ली बी करून गोंयांत आयले. हांव विद्यार्थी चळवळ आनी म्हजे म्हाविद्यालयीन जिवितांत खुशाल भर्गत आशिल्लों. इतले म्हणसर कोचीची परिशद आयली. रवीन्द्रबाब पांयांक चक्रां ल्हावन एक सारको भोंवत आसता तसो हांवेंय भोंवपाक जाय अशें म्हाका दिसतालें. रवीन्द्रबाबांच्या हिमालयांत ह्या प्रवास वर्णनाचें हांवें पारायण केल्लें. त्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय लाभिल्ल्यान रवीन्द्रबाब आनी तांचें तें पुस्तक म्हाका खऱ्यांनीच हिमालया येदें दिसूंक लागिल्लें. तातूंत रवीन्द्रबाबान आपलें तें पुस्तक आपली सय मारून म्हाका दिल्लें. 'दिलीप बोरकाराक हिमालय पळोवन येवपाची प्रेरणा जावंची हे इत्सेन' अशेंय तांणी बरयल्लें. म्हणटकच बारीक सारीक भोंवडी करून जाल्या उपरांतूच हांव हिमालयाचे भोंवडेक वचूंक पावपाचों. कोचीची भोंवडी परिशदेच्या १२ व्या अधिवेशना निमतान दारांत उबी राविल्ली. रवीन्द्रबाब ते परिशदेचे अध्यक्ष आशिल्ले. त्या भायर सगळ्यांनी थारायल्लें दक्षिण भारताची भोंवडी करप. आयोजनाची सगळी जापसालकी नागेश करमली हांणी घेतिल्ली. नागेशबाबाक आमी तेन्ना 'भाऊ' म्हणटाले आनी ताचे घरकात्रीक 'भाभी.' कोंकणी चळवळींत जितले कोण आसात तांचें एक कुटुंब अशी ती तेन्नाची संकल्पना. कशें वचप, येरादारी कशी

आयोजीत करप, कितले पयशे घेवप बी सगळें तो पळयतालो आनी ताणें हे भोंवडेची संकल्पना लोकां खातीर जाहीर केली. भोंवडेच्या निमतान लोक कोंकणी कडेन येतले आनी कोचीक जें अधिवेशन जातलें ताका गोंयच्यान इतले प्रतिनिधी आयल्यात म्हणपाचें जगजाहीर जावन ताचें मय कोंकणीक मेळपाचें. नागेशबाब तशें उलोवनूय दाखयताले. कोची आनी हेर कडेन भोंवडी आयोजीत केल्या देखून कोंकणी चळवळी कडेन संबंध नाशिल्ले कितलेच लोक हे भोंवडेक आयले. प्रत्येकान पयशे भरून आपली सुवात सुगूर केली.

हे भोंवडे खातीर पणजी आनी मडगांवच्यान टेम्पो दवरिल्ल्यो. तेन्ना ह्या टेम्पोंक मिनीबसी म्हणटाले. गोंयात त्यो नव्योच आयिल्ल्यो आनी त्योच सिटीबशी म्हूण चलताल्योय बी. बारा लोकांक भितर आनी एकल्याक मुखार ड्रायव्हर सिटाकडल्या सिटार बसून तेरा लोकांक वचूंक मेळपी ही मिनीबस. जांणी पयशे भरून सुवात सुगूर केल्या तांकांच बसून वचूंक मेळपाचें. कोची, केरळ, कन्याकुमारी, रामेश्वरम बी पुराय दक्षिण भारताची ही भोंवडी आवांतार सिटा आसल्यारूच करपाची. तेन्नाच्या येरादारीचीं सादनां पळयत जाल्यार ह्यो मिनीबशी म्हळ्यारूच लक्झरी जाल्ल्यो. हांव बेकार म्हणटकच म्हजे कडेन म्हजें सीट आरक्षीत करपाक पयशे नाशिल्ले.

रवीन्द्रबाब गुजरात, दिल्ली बी करून आयलो आनी परिशदेचें आपलें भाशण तयार करपाक बसलो. आपले भोंवडेंत तांणी भाशणाचो आराखडो तयार केल्लो आनी आतां भाशण तयार करून तें छापपा पासत धाडपाचें आशिल्लें देखून तें बरोवपाक लागिल्ले. गोंद्बायन म्हणिल्लें. आरे दिलीप,रवीन्द्र आतां कोणाक थोडे दीस मेळचो ना आं, तो भाशण तयार करता परिशदेचें.' रवीन्द्रबाबांक हें भाशण खूब म्हत्वाचें आशिल्लें अशें तांच्या एकंदर उलोवण्या वेल्यान कळटालें. पणजे आयले काय ते नागेश करमलींक आपोवन हाडपाक म्हाकाच सांगताले. पणजे ते मांडवी हॉटेलांत बसताले. त्या हॉटेलाचे मालक तांचे वळखीचे आशिल्ले. रवीन्द्रबाब तांका 'पुरशेबाब' म्हणटाले. नागेशबाब तांका थंय वचून मेळटाले. मांडवी सारक्या येद्या व्हडल्या हॉटेलांत भितर सरूंक मेळटा म्हूण हांवूय नागेश करमलीं वांगडा वतालों. रवीन्द्रबाब मागीर नागेशबाबां कडेन कोंकणी, परिशद, आयोजन बी हाचेर उलयताले तें हांव कान दिवन आयकतालों. शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी पासत कॉंग्रेस हावसाच्या शेजराक भारत सेवक समाजाची कचेरी आसा ती नागेशबाबान मुद्दाम झुजारी आल्वार पैंगा हांचे कडल्यान घेतिल्ली. शताब्दी १९७७ त उलगल्ली तरी ती कचेरी अजून दिवक नाशिल्ली. रवीन्द्रबाब मागीर थयीय येतालो आनी आमका कोणा कोणांक मेळटालो. तेन्नाच तांणी नागेशबाबांक विचारलें, 'आरे नागेश, दिलीपाक व्हरया मरे परिशदेक..?' रवीन्द्रबाबांचें विचारप म्हळ्यार निर्णय हें आमकां सगळ्यांक खबर आशिल्लें. फकत तो आदेश येवजणेंत कसो हाडप हें नागेश करमलीन थारावपाचें असो ताचो अर्थ जातालो.

दिलीपाक व्हरनासतना म्हणून जाता, तो आमचो खाबो ! अशें म्हणत नागेशबाब हांसलो आनी म्हज्याय तोंडार हांसो फांकलो. कोचीक वचपाचो, दक्षिण भारत भोंवपाचो म्हजो सपना पुराय जावपाचो तो निर्णय आशिल्लो. हांव दक्षिण भारताचे भोंवडेचे तयारेक लागलों.

(चलता)

संपर्क: 9822136885

***



# गजानन जोग हांच्या 'रुद्र' कथा संग्रहांतल्या कथांचो स्टायलिस्टीक भासविज्ञीक नदरेंतल्यान अभ्यास

सॅन्सिको डायस

### विशय प्रवेश

ह्या अभ्यासांत कोंकणी लेखक गजानन जोग हांच्या शैलीगत भाशीक बरपावळीचो नियाळ केला. साहित्य लेखनांत लेखकान तांचीं कृती वाडोवपाखातीर केल्ले प्रयोग ह्या अभ्यासांत मांडल्यात. ह्या लेखांत 'रुद्र' ह्या कथासंग्रहाचो वापर करून तांच्या कथांनी आयिल्ल्या शैलीगत भाशीक बरपावळीचो अभ्यास जाला. लेखकान आपल्या लघुकथां खातीर आकर्शक आशय तयार करपाक स्टायलीश भाशेचो वापर कसो केलो तें ह्या अभ्यासांत दिसून येता.

### सारांश

साहित्य वाचपाक सुंदर दिसता जेन्ना तातूंतली भास आकर्शक आसता. लेखक जाता तितलो आपलें साहित्य वाचकान वाचचें आनी आकर्शक जावचें म्हण आपल्या साहित्यांत शैलीगत भास वापरता.

सादारणपणान शैलीगत म्हळ्यार 'सगळ्या प्रकटीकरणांत साहित्याच्या भाशेचो अभ्यास, भाशेच्या साहित्यांत वेगवेगळ्या शैलींचो अभ्यास करपाची प्रवृत्ती आशिल्ल्या साहित्यीक प्रवचनाचो अभ्यास' अशें डॉ. मोहम्मद तारीक म्हणटात जाल्यार ग्लोपिडिया ह्या वेबसायटीर अशी व्याख्या मेळटा, स्टायलिस्टीक हो भाशाशास्त्राचो एक फांटो आसून तो ग्रंथांतल्या शैलीचो अभ्यास करता, खास करून साहित्यीक ग्रंथांत. तातूंत आकृती, ट्रॉपस आनी हेर अलंकारीक रणनितीचेर लक्ष केंद्रीत केलां, जीं खासा अभिव्यक्तीशील वा साहित्यीक शैली तयार करतात. स्वताक भाशेच्या वापरांतल्या भाशीक रुपांच्या परिवर्तनशीलतेचें वर्णन आनी विश्लेशण करपाक ही शिस्त जापसालदार आसता. ह्या लेखांत लेखक गजानन जोग हांणें आपल्या कथा संग्रहांत भाशीक शैलीचो वापर कसो केला ताचेर उजवाड घालपाचो प्रयत्न केला. तांच्या लेखनांत अलंकारीक भास कशी आयल्या ताचेर उजवाड घाला. तांच्या अलंकारीक भाशेक लागून तांच्या साहित्याचो दर्जो वा साहित्याच्या मळा वयलें योगदानाचो स्पर्श जाणवता.

### सारभूत उतरां - स्टायलिस्टीक, अलंकार,

मनीस आपले विचार मांडटना (लेखन आनी उलोवप) भाशेचो शैलीगत नदरेंतल्यान वापर करता. जाचे वरवीं तो आपणाक सांगपाचें आसा तें सांगता. कांय फावटीं सरळ सांगतां जाल्यार कांय फावटीं प्रतिकात्मक नदरेंतल्यान सांगता. 'शैलीशास्त्र हो अनुप्रयुक्त भाशाशास्त्राचो एक फांटो म्हळ्यार सगळ्या प्रकारच्या ग्रंथांचो आनी/वा उलोवपाचे भाशेचो अभ्यास आनी अर्थ तांच्या भाशीक आनी स्वरशैलीच्या संदर्भात करप, जंय शैली म्हळ्यार वेगवेगळ्या व्यक्तींनी आनी/वा वेगवेगळ्या परिस्थितींत वापरिल्ली भाशेची खाशेली विविधताय वा सेटिंग्ज.'

गजानन जोग हांच्या रुद्र कथा संग्रहांतल्या कथांचो भाशीक शैलीच्या नदरेंतल्यान भासाभास.

शैलीगत भाशीक म्हळ्यार भाशेचो सृजनशील आनी कलात्मक पद्धतीन एक विशिश्ट संदेश वा मनोवृत्ती सांगपाखातीर वापर जाता. गजानन जोग हांच्या कथासाहित्यांक शैलीगत नदरेंतल्यान पळयतना तांच्या कथांनी अलंकारांचो वापर जालो दिसता.

### अनुप्रास

तींच तींच अक्षरां वा उतरां पर्थून पर्थून येतात तेन्ना त्या उतरांक वा अक्षरांक अनुप्रास अशें म्हणटात. एका फाटल्यान एक येवपी उतरांचे मुखावेलीक एकूच उतर म्हणल्यार अनुप्रास. गजानन जोग हांच्या कथांनी अनुप्रास हो शब्द अलंकार दिसता. देखीक:

१. मागीर मात शिवाजेन चड अंत पळयलोना. (०३)

गजानन जोग हांच्या कथांनी अनुप्रासा वांगडाच दुसरे प्रकार दिसून येतात. तांच्या कथांनी आयिल्ले प्रकार म्हणल्यार व्यंजन अनुप्रास आनी स्वर अनुप्रास.

### व्यंजन अनुप्रास

दोन वा चड उतरांच्या सुर्वेक लागीं लागीं एकूच व्यंजनाचो आवाज परत परत येता असो हो सगळ्यांत चड प्रमाणांत दिसपी अनुप्रास. देखीक:

१. ट्रकाची स्पीड कमी करीनासतना चपळकायेन रायान सोबीतशें वोल्त घेतलें. (४२)

२. कोणतरी येतलो, कोणेंयतरी येंवचें अशें दिसतालें. (५८)

### स्वर अनुप्रास

दोन वा चड उतरांनी लागींच्यान एकूच स्वरध्वनी परत परत येता असो हो एक प्रकार. देखीक

१. तूं आतां आनीक तकली खाजोंव नाका. (९४)

### ल्हान वाक्यां

ल्हान वाक्य म्हणल्यार थोडींच उतरां आशिल्ले संक्षिप्त वाक्य. वाचप्यांक स्पश्ट आनी प्रत्यक्ष संदेश दिवपाक वा तात्काळपणाची वा भर दिवपाची भावना निर्माण करपाक तांचो उपेग करूं येता. समजावपा सारकें बरप, जायरात, कथा सांगप ह्या सारक्या विंगड विंगड संदर्भात ल्हान वाक्य प्रभावी थारूंक शकतात. ल्हान वाक्यांचीं कांय उदारणां अशीं -

सगळो गांव गपचीप जालो. (७७),

घूमटार आर्ती चलताल्यो. (७८)

सगळो गांव आवाजाभायरो जाल्लो (७७)

दोगांय हातूणार न्हिदल्यांत. (७६)

पिटकोळें दारांत उबें. (१)

दुसरे दीस आयतार (१५)

दुसरे वटेन देवूळ आसा. (१२३)

ल्हान वाक्यां स्वता वापरूं येतात, वा लांब वाक्यां वांगडा जोडून बरोवपाच्या मळार विपरीततायेची वा समतोलाची भावना निर्माण करूं येता. तशेंच तांचो उपेग करून बरपावळीक ताल वा प्रवाह तयार करूं येता, जाका लागून तो वाचप्याक चड आकर्शक आनी याद उरपासारको जाता. एकंदरीत, आपल्या बरपावळींत प्रभाव आनी भर निर्माण करपाक सोदपी लेखकां खातीर ल्हान वाक्यां एक बळिश्ट सादन जावंक शकता.

### क्रियाविरयत वाक्यः

क्रियाविरयत वाक्य म्हळ्यार क्रियापद नाशिल्लें वाक्य. हांगा एक उदारण आसाः "मेजाचेर फुलांची फुलपाखरू."

दुसऱ्यांत बोचकोभर शेव. (०५)

बांकार एके कुशीक कुबेंद आनी कोनशांत शेंद्री. (१२३)

पान्यांचो आनी मुनिसांवाचो दबो. (१२३)

व्हडल्याक दवल्ला तशें ह्या दोगांकूय दवरचे पडले वत्सलागेर. (१२४)

### एकूच शब्द वाक्य

एकूच शब्द वाक्य म्हणल्यार फकत एकाच उतराचो आस्पाव आशिल्लीं वाक्यां. ह्या वाक्यांचो उपेग करून वाचप्याक एक खर भावना वा संक्षिप्त संदेश दिवंक मेळटा. बरोवपांत चड करून भर दिवपाखातीर वा नाटकीय परिणामाखातीर तांचो उपेग करतात.

एकेच उतराचें वाक्य विंगड विंगड संदर्भांत प्रभावी थारूंक शकतात, तातूंत समजावपा सारकें बरप, संवाद, कथा सांगप हांचो आस्पाव जाता. वाचप्याक तात्काळपणाची, ताण वा अजापाची भावना निर्माण करपाक शकतात आनी आपल्या बरपावळींत परिणाम आनी भर निर्माण करपाक सोदपी लेखकां खातीर एक बळिश्ट साधन जावंक शकतात. पूण एकेच उतराचें वाक्य संयमान वापरप म्हत्वाचें. कारण चड वापरल्यार तांचो परिणाम उणो जावंक शकता.

घेतलें. (१), दुकानार. (११), लक्ष्मीपूजन. (७७)

सपन. (१०४), उजैत. (११२)

### दोन शब्दांचें वाक्य

दोन शब्द वाक्य म्हणल्यार फकत दोन उतरां आशिल्लीं वाक्यां. एकेच उतराच्या वाक्यांभाशेन तांचो उपेग बरोवपाच्या वावरांत भर दिवपाखातीर वा नाटकीय परिणामाखातीर करूं येता. पूण एकेच उतराच्या वाक्यांपरस तातूंत मात्सो चड संदर्भ मेळटा. लेखनांत सादेपणाची वा प्रत्यक्षतायेची भावना निर्माण करपाक शकतात, आनी वाचप्यांक स्पश्ट आनी संक्षिप्त संदेश दिवपाक सोदपी लेखकां खातीर एक बळिश्ट सादन जावंक शकता. पूण खंयच्याय वाक्य रचणुके प्रमाण दोन शब्द वाक्यांचो वापर संयमान आनी योग्य संदर्भांत करप म्हत्वाचें.

तिनसांजची वेळ. (१), गिमाचे दीस. (५), सगळें हाडटां. (११, तो हांसलो. (१५), वरां पळयलीं. (१६), आवय भाशेन. (५४), आश्विनी उमास. (७७), रातचो वेळ. (७७), मिट्ट काळोख. (७७) अर्जुन दिसलोना. (७८), खरपीत राविल्लो. (७८), शाळा सुटली. (५६), घरदार बदल्लें. (६२), घरा कोसळ्ळीं. (६३), साडी खोयता. (६६), हातांत कोयतो. (६६), म्हाका समजता. (७०), अशीच दिवाळी. (८०), घरच्या सारको. (८१), नटांचो दबो. (१२३)

### लांब वाक्यां

लांब वाक्य म्हणल्यार सरासरी लांबाये परस लांब वाक्य. तांचो उपेग एकाच वाक्यांत गुंतागुंतीच्या विचारांक वा वर्णनांक सांगूं येता, आनी बरोवपाक प्रवाहाची वा तालाची भावना निर्माण करूं येता. पूण लांब वाक्यांचीय रचणूक सारकी ना जाल्यार पाळप कठीण जांव येता. आनी वाचप्याक मुखेल कल्पनेची नदर वचूंक शकता.

लांब वाक्यां गिरेस्त आनी सविस्तर वर्णनां दिवपाक, तशेंच बरपावळींत गीत वा प्रवाहाची भावना निर्माण करपाक प्रभावी थारूंक शकतात. पूण लांब वाक्यांचो विवेकबुद्दीन वापर करप आनी स्पश्टताये खातीर आनी वाचप्यां खातीर तांकां ल्हान वाक्यांनी मोडप म्हत्वाचें. तेभायर वाचप्यांचें लक्ष आनी समजूत तिगोवन दवरपाखातीर लांब वाक्यांची बरी रचणूक आनी व्याकरणीक नदरेन बरोबर आसूंक जाय.

### देखीक

१. दार धांपून तें भितल्ले कुडींत आयलें आनी येतनाच ताचें लक्ष जनेला कडेन पुस्तक वाचीत बसलेल्या त्या भुरग्याचेर गेलें. (१८), (प. २)

२. लोल्यान त्या दिसा तिनसांजची, चिप्प भिजलेल्या पिटकोळ्याक वेंग माल्लेली ताची याद ताका जाली आनी हुतूतेपणान दारांतच ताणे पिटकोळ्याक सामखें कवळून धल्लें. (२१), (प. ४)

३. बाबुलीचें गांवठी हॉटिल, फुडें दिसपी खोपटयो, गोठ्यांत येवपी गोरवां, मातयेंत तांबडीगुंज जावन, कांसाद जावन अमोरेर घरा कडेन येवपी मनशां हातूंतले ताका कांय एक दिसनासलें. (२४), (प. ९)

४. 'छत्रं चामरं गीतं नुत्यं आंदोलनं समस्त राजोपचारार्थे गंध पुष्पांजली समरपयामि! कर्मान्ते व्दिरायम्य... दोन फावटी आचमन कर...' शाणू भटान सगलें जालें अशा अर्थान मान हालयली आनी तांबड्या लुगटांत सत्यनारायणाची पोथी बांदपाक लागलो. (३०) (प. ७२)

५. फातराच्या मुर्ती भशेन तांचे तोंड सामखें थंड दिसलें तिका... कोण जाणा हांचें काळीज कसलें तें ! पोटाच्या पोराक न्ही न्ही तें उलोवन... येतनां वतना तिडोवन... कोण रावतलो अशा समंदा भशेन मनशा वांगडा !... म्हजी आसा जन्मगांठ... दीस सारपाचे आसात... सारपाचे कशेयतरी... राधाबाय विचारांनी घुस्पून वता. (४३), (प. ७५)

### विभक्ती

विभक्ती म्हणल्यार वाक्यांतल्या नामांक, सर्वनामांक वा वाक्यांक हेर उतरांकडेन जोडपी उतरां. तीं सादारणपणान वाक्यांतल्या नाम वा सर्वनाम आनी हेर उतरांमदलो संबंद दाखयतात. कांय सामान्य विभक्तींत in, on, at, by, with आनी to हांचो आस्पाव जाता.

१. व्हडल्याक दवल्ला तशें ह्या दोगांकूय दवरचें पडटलें वत्सलागेर. (शिरी-बायल-मधुबाब, पान. १२४)

२. फेस्ताच्या निमतान आयली. (क्रुझाचो पाय, पान. ९०)

३. धाकल्या यदूच्या लग्नावेळार कुळारा सगळीं जमिल्लीं. (सवर्णी, पान. २४)

### पुनरावृत्ती:

पुनरावृत्ती म्हळ्यार एकाद्र्या कल्पनेचेर भर दिवपाखातीर वा बळगें दिवपाखातीर एकाद्र्या उतराचो, वाक्यांचो वा वाक्याचो परत परत वापर करप. हांगा एक उदाहरण आसा:

"म्हाका एक सपन आसा की एक दीस हें राष्ट्र उठून आपल्या पंथाचो खरो अर्थ जियेवंक शकता: 'आमी हीं सत्यां स्वताक स्पश्ट करुंक मानतात, सगळे मनीस समान रचल्यात'."

पुनरावृती म्हणल्यार एकाच उतराचो, वाक्यांचो वा वाक्याचो मजकूर वा उलोवपा भितर जायते फावट वापर करप. पुनरावृत्ती केल्यार एका मुद्द्याचेर भर दिवप, तालाची भावना निर्माण करप वा विशय वा कल्पनेक ळगें दिवप अशे वेगवेगळे हेतू साध्य करूं येतात. पुनरावृत्तीचे वेगवेगळे प्रकार आसात.

१. दोगूय **शेजारा शेजारा** रावताले. (१५)

२. **चोर चोर** सुपारी चोरता. (८१)

३. **हांव** मदीं बसलेलो, **हांव** सुटलों (१०२)

४. तो जेवलो काय **ना** हेंय ताका कळ्ळें **ना.** (५९)

५. **ल्हव ल्हव** दोस्ती जाली. (९०)

६. **हांव** मदीं बसलेलो, **हांव** सुटलो. (१०२)

७. सगळे **बरें बरें** म्हणटात. (१२४)

८. शिरी शिरी गग गग करतना सामकी झांपडी येताली दोळ्यांर. (१०८)

### प्रस्नान सुरू जावपी वाक्यां

प्रस्नान सुरू जावपी वाक्यांक प्रस्नचित्र म्हणटात. प्रस्न विचारपाखातीर प्रस्नचित्र वाक्यांचो उपेग करतात आनी सादारणपणान घोशणा करपी (विधान) वाक्यांपरस तांची रचणूक वेगळी आसता. सामान्य प्रस्न उतरांत कोण, केन्ना, खंय, कित्याक आनी कशें हांचो आसपाव जाता. कांय उदारणां:

१. **कोण** रे तो? (१०३)

२. **कितें** आसा तें? (११०)

३. **खंय** आशिल्ले तुमी इतको वेळ? (३८)

### Similes

उपमा म्हणल्यार अलंकारीक भाशण, जी तुळयेचो उपेग करून खंयचीय गजाल हेर वस्तूकडेन सारकी आसा अशें मांगून तार्चे वर्णन करतात. उपमा तुळा स्पश्ट करपाखातीर like वा as हीं उतरां वापरतात. साहित्यांत आनी कवितेंत चड करून तांचो उपेग जिवी प्रतिमा तयार करपाक आनी वाचप्याक एक प्रसंग वा पात्र दृश्टीकांन करपाक मदत करतात. उपमांचीं कांय उदाहरणां हांगा दिल्यांत.

"सारकें" वा "अशें" वापरून दोन वेगवेगळ्या गजालींची तुळा करपी अलंकारिक भाशण म्हळ्यार उपमा.

१. दांवें बांदून ओडिल्ले सारको रामगो चलपाक लागलो. (७८)

२. शाण्यां भशेन चलपाक लागलो. (७९)

३. कांकणा सारखो ताच्या कानांत किणकिणलो. (१८)

४. खण खण आवाज करून ती खोंकता तें पळोवन आपलेंच काळीज कोणतरी खणटा अशें ताका जालें. (१९)

५. अेक व्हडलें चकचकीत मेज फुड्यांत दवरून अेक बेव्यासारको मनीस खंय बसलेलो. (५७)

६. बारीक कुंड्या भशेन पावस पडत आसलो. (उपकार, पान. ७७)

### Personification मूर्तीकरण/ व्यक्तीकरण

मनशार्चो खाशेलेपणां जनावरां, वस्तू वा सैमीक घडणुको अशा बिगर मनीस वस्तूंक लागून जावपी अलंकार म्हणल्यार व्यक्तीकरण. ह्या गजालींचें मूर्त रूप दिवन लेखक वा उलोवपी तांकां चड मनशासारको गूण दिता, जाका लागून प्रेक्षकांच्या मनांत तीं चड संबंदीत आनी जिवीं जावंक शकतात.

१. दोन जाणटीं पानां कितेंय तरी खोल खोल उलयत गेलीं. (५१)

### Metaphors रुपक

रूपक म्हळ्यार एके वस्तूचें वा कल्पनेचें वर्णन अक्षरशः खरें न्हय, पूण ताचे गूण स्पश्ट करपाक आदार दिवपी अलंकार. रुपकांत ताचेभाशेन वा अशें हीं उतरां वापरिनासतना, खंयच्याय गजालींची तुळा हेर वस्तूकडेन करून तार्चे वर्णन करपी हो अलंकार. ताचे बदला तें प्रत्यक्ष वा अस्पश्ट तुळा वापरून वर्णन केल्ल्या वस्तूची नवी आनी चड करून अजापीत करपी समजूत तयार करतात. रूपक हें बरोवपाचें एक बळिश्ट साधन आसून तें असंबंदीत दिसपी गजालीं मदीं जिवीं प्रतिमा आनी संबंद तयार करपाक मदत करूंक शकता. रुपकांचीं कांय उदारणां हांगा दिल्यांत.

१. अर्जुन हातांतलें पेट्टें सोडूण झडपित फुडें, मदीं शिवा आनी फाटल्यान लोडणो **बांदलेल्या बैलान चलचें तसो** रामगो. (उपकार, पान ७८)

२. हुंदरा भशेन काळखांतल्यान तसोच आयलो आनी बापाय कडेन बील दिवपाक लागलो. (बावीस एके बावीस, पान १४)

३. कितल्यो गजाली थारायिल्ल्यो पूण सगळेंच पोला सारकें हुबून गेलें. (मावळे भाव, पान. ४०)

### निश्कर्श:

अभ्यासा प्रमाण गजानन जोग हांच्या 'रुद्र' कथासंग्रहांत शैलीगत

भाशेचो खूब पूण फावो तसो, फावो तेंच व्यक्त करपा खातीर जाल्लो दिसता. तांच्या साहित्यकृत्तींत अलंकारांचो वापर मनशाक लेखून जाला तसांच सैमाच्या घटकांचो वापर करून ताणें कथा फुलयल्ल्यो दिसतात. तांची प्रत्येक कथा गांवांत सुरू जाता आनी गांवांतलींच उरतां वा गांवांतलेच भाशेंतली शैलीगत गिरेस्तकाय माडटा. अलंकाराचे वेगळे वेगळे प्रकार बरेतरेन समजून तांचो वापर केला.

**संदर्भावळ:**


१. जोग गजानन, रुद्र
2. Dr. Tariq Mohammad, Style, Stylistics and Stylistic analysis: - re-evaluation of the modern -day rhetoric's of literary discourse, International Journal of English Research, ISSN: 2455-2186. Volume 4, Issue March 2018, Pg No. 46-50.
3. Stylistics definition and examples/approaches/ examples - EngloPedia
4. Stylistics - Wikipedia


संपर्क: 7972073014

***

*(पान १ वयल्यान)*

काळांत सॉफ्ट कॉर्नर जरी दाखयलो ना तरी उपकारता पूण कवीचें खच्चीकरण तरी करूंक जायना. रामाणींक हें केन्नाच समजलेंना.

पिरायेची पांसश्टी हुपल्या उपरांत रामाणीचे कवितेचेर इंदिरा संत आनी मुदेश लोटलेकारान सणकून टिका केल्ली तेन्ना रामाणीचो अहंकार दुखाविल्लो आनी रामाणी अस्वस्थ जावन प्रत्येकाक पत्रांतल्यान ते विशीं बरयत सुटिल्लो हाचो अणभव म्हाका आसा.

आयची म्हजी कविता रामाणीन वाचूंक जाय आशिल्ली अशें म्हाका परत परत दिसता. आयचे म्हजे कवितेचें रामाणी कशे तरेन मूल्यमापन करतलो आशिल्लो काय? पांच-धा कविता वाचून खंयच्याच कवीचें मूल्यमापन जावंक शकना. ते खातीर ताची समग्र कविता वाच्ची पड्टली. त्या कवीन भाशेचे काव्यपरंपरेंत आपलें स्वताचें योगदान दिलां काय ना हें पळोवचें पड्टलें. कवी शंकर रामाणी आज हयात आशिल्ले जाल्यार तांकां अधिकारान कविते विशीं चार उतरां सांगपाची म्हाकाय संद मेळपाची! But it's too late now...

***

॥७॥

कवीक गर्देतल्यान एकांतांत वचपाक येवंक जाय. जर तो गर्देतूच उरलो जाल्यार निमाणे मेरेन गर्देचोच एक भाग जावन उरतलो आनी आपलें वेगळेंपण केन्नाच वळखूंक पावचों ना.

कविता ही एकांताचे बोल आसता आनी कवीच्या एकटेपणांत तिचोच ताका खरो सांगात आसता.

संपर्क: 9422640210

***

## दोन कविता

आर. रामनाथ

### तूं सरळ आमगेर यो

जायते खेपो
तूं म्हाका मेळ्ळा
पूण मेळिळ्ले खेपे
एक तर तूं म्हाका देंवतेर मेळ्ळा
वा खंयचेतरी वल्तार मेळ्ळा.
सरळ रस्त्यार म्हूण तूं म्हाका केन्ना आदळ्ळोच ना...

पूण हे खेपे मात
तूं सरळ आमगेर यो
सांजचो हांव आंगणांत बशिल्लोंच आसतां
आंगणांत मेकळेपणान मेळप जातलें
आनी उलोवपूय जातलें
सगळें कशें भायले भायरूच जातलें ...

मुजरत यो तूं
सांजचोच यो तूं
आपशींच आमगेर रात जातली ...

***

### पारख

तूं गुपाट काळोख कर
हांव येतां तुका नकळटां
आनी शिरतां तुज्या शिरंतरांत
रत्नजडीत जावन...

उपरांत -
तूं वळख म्हाका पुराय
आनी पारख म्हाका नखशिखान्त
तुज्या दिव्यदिश्टीन ...
रंगय म्हाका
नंदय म्हाका
जगय म्हाका
जागय म्हाका
आनी तुज्या मोरपांखी वेंगेंत
न्हिदय म्हाका
सुस्त सुस्त...

संपर्क: 9850458763

***



### वळख

माधव बोरकार

दोंगरगाळींनी
झणझणपी वारो कसो
तुजे भोंवतणी आसतना
तूं म्हाका वळखुशी?
इंद्रधणूचें सपन कशें
तुज्या दोळ्यांत उदेतना
तुका हांव दिसत?

म्हाका जाय आसता
तुजे खातीर गावंक
तुका जाय आसता
म्हज्या दोळ्यांत रावंक.

संपर्क: 9420222876

***

### यादी

सखाराम बोरकार

म्हज्या जिर्णेतल्यान
तूं वचत सावन
तुज्यो सगळ्यो यादी
पुसून उडोवंच्यो
अशें हांवे थारायलें.
पूण,
तीं दर्याचीं ल्हारां
तो शितळ वारो
तो पुनवेंचो चंद्र
तो श्रावणांतलो पावस
आजून तुजी याद करुन दिता
तांका हांव कसो पुसूं?

संपर्क: 9923306751

***



## दोन कविता

उल्हास पै रायकार

### म्हजो शेणलो गांव

म्हजो शेणलो गांव
जल्मताच हांव
आतां वाद जाता
पूण अजून मेळना थांव.
यादी हद न्हंयशो
धुंवतात धूपशो
पूण वासावरी येतात
आनी वतात, अदृश्यूच त्वो...
दृश्यांत अदृश्य सोदीत
असोच वता काळ
नाशिल्लोच तो-,
पूण संचितांत त्रिकाळ.
निर्गुणांत लेगीत
सोदली वाट गांवाची
कुडीन आडखळटा
नदर प्राणाची.
आतां तुज्या दोळ्यांतलो उजवाड
प्राणाचे किरवटेक लावन
प्राक्तनांतूच सोदतां हांव
म्हजो शेणिल्लो गांव...

***

### मळबाचे सरयेचेर

तूं
मळबाचे सरयेचेर
थेंब्यावरी
चलत... चलत
मनांत म्हज्या
टप्प...ऽऽ
टप्प...ऽऽ
करुन
ओर्थेबेता.
मागीर
स्मरण...
स्मरण...
अनुस्मरण...
आनी
म्हर्जे म्हाका
स्मरण...
स्मरण...
विस्मरण...

संपर्क: 7507441344

***



# 'द ट्रेन टू पाकिस्तानः इतिहासीक पार्टीशनाची दुखांत कथा'

आकाश भालचंद्र गांवकार

**सारांश:**

भारताचो इतिहास चाळून पळयत जाल्यार ह्या भुंयेर जाल्ल्या साबार युद्धांची वळेरीच पळोवपाक मेळटली. ह्या भुंयेर पुराण काळासावन ते आधुनीक काळ मेरेन सत्तेच्या भकीक लागून प्रजेची पिडापीड जायत आशिल्ली पळोवपाक मेळटा. पूण ही पिडापीड १९४७ वर्सा भारत स्वतंत्र जायत सावन सोंपली अशें कांय जाणांचें मत आसा. १९४७ वर्सा भारत ब्रिटिशांच्या हुकूमशाये पासून मेकळें जालें म्हण ह्या वर्साक भारताच्या इतिहासांतलें अमृत महोत्सवी वर्स अशें म्हणटात. पूण भारत पाकिस्तान शिमेवयल्या लोकांनी ह्या वर्सा भारताच्या इतिहासांतलें सगळ्यांत चड काळे दीस पळयल्ले. हे काळे दीस राजकीय दबावान पड्ड्या फाटल्यान लिपोवपाचोय यत्न जालो. भारत आनी पाकिस्तानाच्या ह्या पार्टिशनाक लागून शिमेच्या दोनूय वटांनी रक्ताचे व्हाळ व्हांवताले. सुडाची भावना घेवन हिंदू, शिख आनी मुसलमान धर्माचे लोक दुसऱ्या धर्माच्या बायलांचे बलात्कार करताले. शिमेच्या दोनूय वटांनी द्वेश, दुस्वास आनी तिरस्काराचो उजो पेटिल्लो.

ह्या इतिहासीक पिडापिडेंत जर सगळ्यांत चड कोणेंय सोसलां जाल्ल्यार तें दोनूय देशांच्या बायलांनी. त्या काळावयली बायलांची व्यथा तशेंच समाजीक संघर्शाचें चित्रण खुशवंत सींग हाणी 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' ह्या कादंबरेंत केलां. ह्या शोध निबंदांत कादंबरेंतल्या बायलांची व्यथा, चिड्डून जगपी बायलांचो तसोच सामाजीक संघर्श, काळाची परिस्थिती आनी जीव वाटावपाक झुजपी लोकांची परिस्थितींची सोद घेवपाचो खोलायेन अभ्यास प्रस्तूत प्रपत्रांत केला.




**सारगर्भ उतरां:**

पार्टिशन, बायलांची व्यथा, पुरूष प्रधान, अत्याचार, संघर्श

**प्रस्तावना आनी विशय प्रवेश:**

भारतांत ज्या वेळार इस्लामीक राजानीं तशेंच सम्राटानीं जेन्ना घुरी घाली तेन्ना हजारांनीं हिंदू लोकांचो जीव ताणीं घेतलो. साबार हिंदू राजांक ह्या इस्लामीक राजानीं हारोवन तांचीं राज्यां जिकलीं आनी प्रजेक बाटयली. हे इराणी आनी अफगाणी राजा सामकेच क्रूर आसताले. तांकां कोणाचीच दया माया आसनाशिल्ली. तांच्या ह्या क्रुरते फाटलें कारण तांचो धर्म असो चुकीचो समज भारतांतल्या हिंदू लोकां मदी पसरपाक लागलो. ह्या समजाक लागून मुसलमान लोक वायट असोय चुकीचो समज भारतांत पसरलो. ताका लागून मुसलमान लोक सामकेच वायट, ते भायले, ताणें हांगां रावप ना अशीं मतां कांय हिंदू लोक परगटावपाक लागले. हे मुसलमान लोक भारतांतलेच आनी तांकां फकत बाटयल्ले म्हणपाची गजाल कोणाच्याच मतींत गेली ना. ह्या गैरसमजांक लागून हिंदू लोक मुसलमानांक त्रास करपाक लागले. आयझेक न्युटन म्हणटात तशें 'Every action has an equal and opposite reaction' हांगांय घडलें. मुसलमान लोकूय अन्याया आड पेटून उटपाक लागले. अशे तरेन साबार हिंदू आनी मुसलमान संघटना तयार जावपाक लागल्यो. ह्यो संघटना राष्ट्रप्रेमाच्या नांवान फकत दुसऱ्या धर्माचो विरोध करून द्वेश पातळावपाक लागल्यो. अशे तरेन उत्तर भारतांत हिंदू आनी मुसलमान लोकांमदीं धर्मवाद सुरू जालो. हो वाद शेकड्यांनीं वर्सां जालीं तरीय चालूच आशिल्लो. हो वाद सोंपोवपाक मुसलमान राज्य आनी हिंदू राज्य अशीं दोन वेगळीं राज्यां तयार जावचीं ह्या हेतान इंडिया भारत आनी पाकिस्तान अश्या दोन देशानीं वाटून वचपाची संकल्पना मुखार आयली. पार्टिशनाची ही संकल्पना बऱ्याच पयलीं राजकरण्यांच्या तकलेंत घुंवताली. पूण ती चालीक १९४७ वर्सा आयली आनी इतिहासीक पार्टिशन जावन इंडियेचे दोन वांटे जाले.

एकविसाव्या शेकड्यांत भारत आनी पाकिस्तान हे दोन वेगळे देश ही गजाल पुराय संवसार जाणा. पूण १९४७ वर्साच्या त्या प्रक्रिये फाटले त्रास, दुख्ख आनी संघर्श थोडेच लोक जाणात. पार्टिशनांत लोकांची जाल्ली वायट अवस्था, दुखेस्त पूण उपाय नाशिल्ली परिस्थीती, जगपा मरणाचे उपरासिल्ले वेगवेगळे प्रस्न, बायलांचेर जावपी मानसीक आनी शारिरीक अत्याचार 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' कादंबरेंत पळोवपाक मेळटात. पंजाब पाकिस्तान शिमेर आशिल्ल्या मनोमाजरा नांवांच्या एका ल्हानश्या गांवांत ह्या कादंबरेंतलें कथानक घुंवतना दिश्टी पडटा. त्या काळावयल्या लोकांचे समज, बायलांक कुसकुटा समान

लेखपाची पध्दत, दुसऱ्या धर्मा खातीर आशिल्लो द्वेश, राजकारण, काळाची परिस्थीती 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' कादंबरेंत बेस बरे तरेन पळोवपाक मेळटा. पूण कादंबरेंत प्रखरतायेन बायलांचो, भुरग्यांचो आनी जाणट्यांचो संघर्श दिश्टी पडटा.

**पार्टिशना वेळार धर्मवादांत पिडिल्ल्या बायलांची व्यथा: कादंबरेच्या संदर्भांत**

१९४७ वर्सा भारत आनी पाकिस्तान ह्या दोनूय देशानीं धर्माक लागून उजो पेटिल्लो. फकत त्या वेळार हे दोनूय देश वेगळे नाशिल्ले. धर्माच्या आदारार दोन देश तयार जावंचे ह्या संकल्पनेन हिंदू आनी मुसलमान लोक एकामेकांक मारपाक उठिल्ले. शिमेच्या दोनूय वटांनी मारामाऱ्यो चलिल्ल्यो. पूण ह्या वादाच्या पासांत जर सगळ्यांत चड कोणूय घुस्पल्ली जाल्यार ती बायल मनीस. दादल्यां मुखार फकत आपलो जीव वाटावपाचें आव्हान आशिल्लें. पूण बायलांक आपलो जीव, आपली अब्रू (इज्जत), भुरगीं आनी आपलो संवसार सांबाळपाचें व्हड आव्हान आशिल्लें. पाकिस्तानांतल्यान हिंदूंक धांवडावन घालताले जाल्यार भारतांतल्यान मुसलमानांक. पूण धांवडावचे पयलीं दर एका बायलेचो छळ जातालो. भर गर्दैत बायलांक नागडीं करून तांचेर बलात्कार जाताले. अश्या वेळार बायलांची पिराय कोणूच पळयनाशिल्लो. धा बारा वर्साच्या ल्हान चलयेचोय छळ जातालो जाल्यार सत्तर वर्सांच्या जाण्टेलेचोय छळ जातालो. बायलांची पिराय पळयनासतना तांचेर अन्याय जातालो. शिमेच्या दुसऱ्या वटेन आमच्याय धर्मांच्या बायलांचेर अशेच तरेच्यो आगळिको जातात आसतल्यो हो समज बाळगून शिमेच्या दोनूय वटांनी बायलांक पिडप जाताले. हो संघर्श बरेच दीस चल्लो. कांय बायलांचो जीव गेलो जाल्यार कांय बायलो आपलें सगळेंच वगडावन मेल्ल्या वरीच जगपाक लागल्यो.

१९४७ वर्साच्या पार्टिशनांत हजारांनी बायलांचो छळ जालो. पूण जर तांच्या होटयेंत एकादो भुरगो आसत जाल्यार त्या भुरग्याक दुसऱ्या धर्माचे दादले काडून घेताले. बायलेचो बलात्कार करताले आनी तिचो बलात्कार चालू आसतना तिच्या दोळ्यांमुखार तिच्या भुरग्याचो जीव घेताले. एका आवय खातीर हाच्याकूय पाडो प्रसंग केन्नाच येवपाक शकना. अश्या प्रसंगा उपरांत शेकड्यांनी बायलो पिश्यो जावन भोंवताल्यो हाचो उल्लेख बरोवपी खुशवंत सींग कादंबरेंत करतात.

पार्टिशनाच्या वेळार बायलांचेर वेगवेगळ्या प्रकारांचे शारिरीक छळ जालेच पूण ताचेच बरोबर कादंबरेंत तांचेर मानसीक अत्याचारूय जाल्ले पळोवपाक मेळटात. पार्टिशनाच्या दुखेस्त परिस्थितींत दादले आपल्या मता प्रमाण आपणाक जाय तें करपाक फुडें सरतात. पूण बायलांच्या मतांक कोणूच वाव दिना. तांचे उमाळे, तांचे उत्फर्के कोणूच आयकुपाक तयार आसना. तांच्या स्वताच्या घरांतले दादले लेगीत तांकां किम्मत दिनात. आपणाली घरकात्र अपवित्र जाल्या हो समज बाळगून तिका घोव आपणावपाक लेगीत तयार नासता. एका बायलेचो बलात्कार जाता, तिजो बलात्कार जातना तिच्या दोळ्यांमुखार तिच्या भुरग्याची हत्या जाता, ती अपवित्र जाल्या म्हण तिका स्वताचो घोव घरांत घेना, समाज तिका आपणायना. 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' ह्या कादंबरेंत अश्या वायट प्रसंगांतल्यांन आनी विद्रूप परिस्थितींतल्यांन बायल मनीस वतना दिश्टी पडटा.

**१९४७ वर्सा मनोमाजरा वाठारांत पुरूश प्रधान संस्कृतींत चिड्डल्ली बायल:**

'द ट्रेन टू पाकिस्तान' ह्या कादंबरेंतल्या मनोमाजरा गांवांत १९४७ वर्सा पुरूश प्रधान संस्कृती वेगवेगळ्या तरेन बायलांक कशी पिडटा तें बेस बऱ्या रितीन पळोवपाक मेळटा. 'साहित्य म्हणल्यार समाजाचो हारसो' अशें म्हणटात. हाजे फाटलें कारण म्हणल्यार साहित्यांत समाजाचें चित्रण जाता. अशेंच तरेन 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' कादंबरेंत समाजांत बायलांचेर जावपी अन्यायाचें चित्रण जाला. नुरन, हसिना बेगम आनी जुग्गत सींगाची आवय ह्या पात्रांच्या आदारान बरोवप्यान त्या काळवयल्या पुरूशप्रधान समाजांत जगपी बायलांची अवतीकाय कितें जाताली तें दाखोवपाचो यत्न केला.

१९४७ वर्सा जेन्ना पार्टिशनाचो बोवाळ जावपाक लागता तेन्ना हुकूम चंद नांवांच्या एका पुलीस कमिशनराक मनोमाजरा गांवांत धाडटात. समाजांत प्रतिश्ठा आशिल्लो हो मनीस रातचें आपलें राक्षसीय रूप दाखयता. जाणट्या पिरायेच्या ह्या पुलीस अधिकाऱ्याक चलयांचें व्यसन लागिल्लें आसता. ह्या व्यसनाक लागून तो आपल्या खातीर एक वेश्या सोदून हाडपाचें फर्मान सोडटा. कमिशनर हुकूम चंदाक वेश्या व्यवसायांत बंदिस्त करून दवरिल्लें पंदरा वर्सांचें ल्हान चली मेळटा. तें एक ल्हान भुरगें हें जाणा जावन लेगीत तो व्हिस्केच्या धुंवळेर त्या चलयेचो बलात्कार करता. हें दर राती जावपाक लागता. तें एक ल्हान भुरगें हो विचार ज्या ज्या वेळार ताज्या मनांत खटकता तेन्ना तो व्हिस्की पिवन हसिना बेगम नांवांच्या चलयेचो बलात्कार करता. अश्या वेळार एक पुलीस अधिकारी वेश्या धंदो बेकायदेशीर हें जाणा जावन लेगीत ताका प्रोत्साहन दितना दिश्टी पडटा. ज्या चलयेचो हुकूम चंद बलात्कार करता तें ताज्या चलयेच्या वयाचें वा ताज्याकूय धाकलें म्हणपाचें भान ताका उरना. ताका आपूण हें पातक करता हाजी जाणविकायूय जायना. मुसलमान वायट म्हणून स्वता एका मुसलमान चलयेचो बलात्कार करपी हुकूम चंद ह्या पात्राच्या आदारान बरोवपी खुशवंत सिंगान पुरूशप्रधान संस्कृती समाजा खातीर कितली घातक आशिल्ली हाजें चित्रण कादंबरेंत केल्लें पळोवपाक मेळटा.

'द ट्रेन टू पाकिस्तान' कादंबरेंतलें मुखेल पात्र जुग्गत सींग नुरन नांवांच्या आपल्या प्रेमिकेक गुरवार करता. पार्टिशनाक लागून जेन्ना सगळ्या मुसलमानांचें भारत सोडून पाकिस्तानांक वचपाचें फर्मान येता तेन्ना नुरन जुग्गत सिंगाच्या आवयक मेळपाक वता. तें आपले त्रास तिका सांगता. पूण जुग्गताची आवय एक अस्तुरी जावन लेगीत एका अस्तुरेची पिडा समजुपाक शकना. ती नुरनाक स्विकारिना. जर आपल्या पुताक तूं जाय जाल्यार तो बंदखणींतल्यांन सुटकच तुका व्हरपाक येतलो अशें सांगता आनी ताका ती परती धाडटा. अश्या वेळार पुरूश प्रधान संस्कृतींत वाडिल्ल्यान एका बायलेचेर कश्या तरेचो प्रभाव पडटा आनी समाजाच्या भंयान ती दुसऱ्या बायलेचें दुख्ख समजून लेगीत तिका कशी आपणावपाक शकना हाजी देख हांगां पळोवपाक मेळटा. पुरूश प्रधान समाज म्हणल्यार फकत दादल्यांनीच आपलो शेक गाजयल्लो समाज न्हय जाल्यार दादल्यांच्या हितान चलपी समाज अशी पुरूश प्रधान समाजाची व्याख्या अभ्यासकांनी मांडिल्ली पळोवपाक मेळटा. ह्या व्याखेचो खरो अर्थ ह्या प्रसंगाक लागता.

### द ट्रेन टू पाकिस्तान: कादंबरेंत चित्रायिल्लो समाज

१९४७ वर्साचें पंजाब हें शेती व्यवसायाचेर जगपी राज्य आशिल्लें. दर एका घरांतलो मनीस शेती व्यवसायांत आशिल्लो. कांय जाणांचीं स्वताचीं शेतां आशिल्लीं जाल्यार कांय जाण जमीनदाराल्या शेतांत रोवन जमीनदाराक जण दिताले. कांय फावटी पीक तितलें मेळनाशिल्लें. पूण तरीय जण तितलेंच वा ताज्याकूय चड दिवचें पडटालें. मनोमाजरा गांवांत एकूच जमीनदार आशिल्लो. ताज्या शेतांत साबार शेतकार पीक काडून आपलें आनी आपल्या घरच्यांचें पोट भरताले. ह्या गांवांत फकत सात-आठ शेतकारांलोच स्वताची जमीन आशिल्ली. कादंबरेंत शेती व्यवसायांत रिगिल्लो समाज पळोवपाक मेळटा. हो समाज हिंदू, मुसलमान आनी शिख धर्माचो जरीय आसलो तरीय तांचे मदीं झगडीं वा वाद केन्नाच जायनात. सगळे एकामेकांक समजून घेवन गांवच्या बऱ्या पासत वावुरताले. गांवांत अंतरधार्मीक लग्नां जायनाशिल्लीं. पूण जर कोणूय अंतरधार्मीक लग्न जावन पळून गेलो जाल्यार फाटल्यान दोनूय घराणीं एकामेकालीं दुस्मान जायनाशिल्लीं. एकवटाचें आनी आपलेपणाचें बेस बरें चित्र मनो माजरा गांवांत पळोवपाक मेळटा. पूण पार्टिशनाच्या उपरांत ह्या समाजाचें चित्र बदलपाक लागता.

पार्टिशनाक लागून जिवाच्या भंयान मनोमाजरा गांवचे सगळे मुसलमान पाकिस्तानांत वतात. पाकिस्तान आनी हेर वाठारांतल्यांन आयिल्ले हिंदू आनी शिख त्या मुसलमान लोकांचीं घरां आनी गायो आपणाक घेतात. जरीय हे सगळे लोक एकाच धर्माचे आसले तरीय तो पयलींचो एकवट हांगां परत पळोवपाक मेळना. सुडाच्या भावनेन हांगां आयिल्ले लोक एकामेकाक वळखनात. ते फकत आपसुवार्थी स्वभावाचेच न्हय जाल्यार आपल्या स्वार्था खातीर दुसऱ्याचो जीव सुद्दां घेवपाक फाटी रावनात. मनोमाजरा वाठारांतल्या समाजांत पार्टिशनाच्या उपरांत हो व्हड बदल जाल्लो पळोवपाक मेळटा.

### द ट्रेन टू पाकिस्तान: कादंबरेंतलो संघर्श

'द ट्रेन टू पाकिस्तान' कादंबरेंत सुरवात ते शेवट मेरेन शारिरीक तसोच मानसीक संघर्श पळोवपाक मेळटा. हो संघर्श सकयल दिल्ल्या तकट्यांत पळोवपाक मेळटा.

| मानसीक संघर्श | शारिरीक संघर्श |
|---|---|
| हुकूम चंद हाजो फाटल्या यादींक धरून जावपी मानसीक संघर्श. | हुकूम चंद दर राती हसिना बेगमाचो बलात्कार करता. |
| जुग्गत सिंगान कसलोच गुन्यांव करिनासतना ताका पुलीस धरून बंदखणींत घालतात. थंय चिंतून चिंतून ताजो घुस्मटमार जाता. | नुरनाचेर बळजबरी करून जुग्गत सींग ताका गुरवार करता. |
| पार्टिशनांत मनोमाजराच्या मुसलमानांक गांव सोडपाचो नासता. पूण मरणाच्या भंयान तांकां तो गांव सोडचो पडटा. | पार्टिशनांत शिमेच्या दोनूय वटांनी बायलांचेर बलात्कार जाता. |
| पार्टिशनांत आवयच्या दोळ्यां सामकार तांच्या भुरग्यांची हत्या जाता. | पार्टिशनांत ल्हान तशेंच व्हड भुरग्यांचो खून जाता. |
| शिमेच्या दोनूय वटांनी लोकांची इत्सा नासतना तांकां आपलें घरदार सोडून शिमेच्या दुसरे वटेन वचें पडटा. | पाकिस्तानांक हिंदू लोकांक मारून भारतांत व्हावून येवपी न्हंयत उडयतात. |
| जुग्गत सींग आपल्या प्रेमीकेचो (नुरनाचो) जीव वाटावपाक कावाबूल जाता. | पाकिस्तानांतल्यान ट्रेनींत मेल्ल्या मड्यांची रास भारतांत पावता. |
| मूळ मनोमाजरा वाठारांतले लोक भायल्यान आयिल्ल्या हिंदू लोकांक लागून स्वताच्या गांवच्या मुसलमानाचीं घरां वाटावपाक शकना. ते परत केन्नाच मेळचेना हाचें तांकां जाल्लें दुख्ख. | नुरनाचो जीव वाटावपाक आनी हिंदू तशेंच शिख लोकांनी मुसलमान लोकांक मारपाक रचिल्ल्या शडयंत्राच्या आड झुझून जुग्गत सींग आपलो जीव वगडायता आनी तांचो जीव वाटायता. |

### समारोप:

१९४७ वर्सा पार्टिशनांत भारत तशेंच पाकिस्तानाच्या लोकांक भयंकर त्रास सोंसचे पडले. शिमेच्या दोनूय वटानीं लोकांची परिस्थिती एकेच तरेची जाल्ली. कायदो हाताभायर गेल्लो. अश्या वेळार परिस्थिती सुदारपाक सरकार कांयच करपाक शकनाशिल्लो. कांय राजकरण्यांक आपलो स्वार्थ सादोवपाक हें सगळें जाल्लें जाय आशिल्लें. पार्टिशनांत बायलांचेर अत्याचार, भुरग्यांचे खून, जाणट्यांचे हाल, मारामाऱ्यो, राजकारण सारकिल्ल्यो विकृत गजाली चलताल्यो. ह्या सगळ्या गजालींची नोंद घेवन खुशवंत सींग हाणी 'द ट्रेन टू पाकिस्तान' ही कादंबरी बरयल्या हें कादंबरी अभ्यासल्या उपरांत कळटा.

कादंबरेंत मुखेलतायेन पुरूश प्रधान संस्कृतीचो शेक गाजिल्लो दिश्टी पडटा. ह्या संस्कृतीक लोक दोळ्यांक पट्टी बांदून कशे मोन्यांनी पाळटात हाजो विरोध बरोवपी कादंबरेंत करतना दिश्टी पडटा. कादंबरेंत १९४७ वर्सा लोकांची मानसिकता कशी आशिल्ली हाजें बेस बऱ्यो देखी पळोवपाक मेळटात. ताज्याच बरोबर पार्टिशनांत लोकांच्या नशिबांत आयिल्ले संघर्श, बायलांचेर जाल्लो अन्याय आनी आगळिको, दुशीत राजकारण सारकिल्ले मुखेल विशय ह्या कादंबरेंत दिश्टी पडटात. पार्टिशनांत शिमेच्या दोनूय वटांनी लोकांचे कितें हाल जाल्ले हाजें चित्र ह्या कादंबरेंत बेस बरे तरेन पडबिंबीत जालां. पार्टिशनाच्या पुराय प्रक्रियेंत त्या वाठारांतल्या सगळ्याच लोकांनी सोसलां. पूण हांगां एका बायलेची व्यथा, दुख्ख, मनाच्यो भावना कोणूच समजुपाक पावलो ना. ह्या प्रक्रियेंत सगळ्यांत चड सोंसपी बायल आशिल्ली हें अभ्यासाच्या शेवटाक कळटा. पूण बायलेचें दुख्ख आनी व्यथा मांडपाक बरोवपी खंय तरी फाटीं पडला हें कादंबरेच्या शेवटाक जाणवता.

### संदर्भ:


Chaleni, I. (1999). *Partition: Indias biggest mystery*. Delhi: Notion Press.

Deshpande, H. V. (2018). *Research in Literature and Language: Philosophy, Areas and Methodology*. Chennai: Notion Press.

Niramurli, D. R. (2011). *Sociological study of Indian culture*. New Delhi: Sahitya Akademi.

Singh, K. (1988). *The Train to Pakistan*. Gurgaon: Penguin Books.

कऱ्हाडे, ड. स. (१९९५). *समाज आणि साहित्य*. मुंबय: लोकवांङमय गृह.

दुबे, श. (२००२). *भारतीय समाज*. दिल्ली: नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया.



संपर्क : 7378760441


***



# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी

-११-

**निवृत्ती उपरांतची जीण-जिणे पद्धत आनी समाजीक मुद्दे**

आदले काळार लोक कितें काम करताले?

शेतकाम वा जनावरां पोसप, राजाच्या सैन्यांत भरती जावप, वेपार करप वा चाकरी करप. भटपण करप आनी शिकोवप हेय वेवसाय आसले. लोहार, म्हार, चांमार, कुंमार ह्यो जाती लेगीत वेवसायाचेर आदारून आसल्यो. दुसऱ्यां खाला कामाक आशिल्लो कामगार चाकरी करतालो म्हणपाक हरकत ना. पूण हें काम संघटीत नाशिल्ल्यान लोक आपले कडेन जाता तितलो तेंप काम करताले. शररिान सामकेंच जायना जातकच मागीर कामार वचप बंद जातालें. मागीर जांव ती, चाकरी आसूं वा शेतकाम वा वेपारी. निवृत्ती ही कल्पनाच नवी. योवरोपांत कारखाने उबे जाले तेन्ना चाकरी ही हळू हळू एक संघटीत रूप घेवंक लागली. अशें कारखान्यांनी काम करतले लोक जाण्टे जाले उपरांत निवृत्त जावंक लागले. कारखान्यां वांगडा कचेरी आयली आनी करतां-करतां, सेवा वेवसाय सुरू जाले.

आयजय लोक शेतकाम करतात, जनावरां पोसतात, नुस्तें धरतात, सैन्यांत भरती जातात आनी वेपारय करतात.मात चाकरी दोन तरांची जाल्या- संघटीत आनी असंघटीत विभागांत. लोक आयजय आपल्याच्यान आनीक काम करूंक नज तेन्नाच निवृत्त जातात. मात संघटीत विभागांत कायदे लागू जाल्ल्यान साठ ते पासश्ट म्हणसर लोक निवृत्त जातात. जाण्टेपणांत निवृत्त जावप हें जितलें सभावीक जालां तितलेंच जाण्टेपणांत बेकार बसल्यार मनीस निरउपयोग जाता आनी हळू-हळू स्वास्थ्य खालावता हाची चड आनी चड प्रमाणांत लोकांक जाण जावंक लागल्या. हाचेच खातीर निवृत्ती उपरांत कितेंय पूण वावर करीत रावपाची इत्सा जायतीं जाण्टीं परगटायतात. गरजे खातीर वा स्वताक कामान गुंथोवन दवरपाक जायते जाण निवृत्ती उपरांत परत एक फावट दुसरी चाकरी करतात.



कांय जाण जोडपाचे पिरायेचेर करूंक मेळूंक नाशिल्ले छंद भागयतात. मात कांय जाण दुखणीं आनी दुयेंसांक लागून घरांतच मर्यादीत रावतात. तरेतरेची कला आशिल्ले लोक तानूंतच मग्न रावतात आनी कांय जाण ती हेरांक शिकोवपांत आपलो वेळ पासार करतात. जो म्हणसर शररिीक स्वास्थ्य आनी मानसीक स्वास्थ्य तिगून आसता तो म्हणसर लोक आपल्याक जाय तें करूंक शकतात. मात कांय फावटीं अर्थीक अडचणींक लागून वा घोवाचे वा बायलेचे भलायकेक लागून वा नातरांच्या जबाबदारीक लागून इत्सा आनी शक्ती आसून लेगीत जाण्टे लोकांचेर बंधना येतात.

जर जाण्टेपणांत कसलोय वावर करीत रावप गरजेचें जाल्यार निवृत्त कित्याक जावचें? जाण्टेपणान सांठिल्लो अणभव उपेगी येता जाल्ल्यान जाण्टे लोक कामां चड बारीकसाणेन आनी चड बरे तरेन करतात. मात तांची गती खालाविल्ली आसता. जाण्टो कार्यकर्तो चड पातयेवंक येता असो, जतनाय घेवपी, जबाबदार आनी वेळ सांबाळपी तशेंच सामान सांवाळून वापरपी आसता. ज्या कामांक चपळ आसूंक जाय थंय तरणे पिळगेचे लोक चड बरो वावर करतात. मात ज्या कामांत बारीकसाण, थीर गती आनी समजिकायेचे निर्णय घेवंक जाय थंय जाण्टीं चड बरो वावर करूंक शकतात. हातूंत पिराये परस अणभवाचो चड हात आसता. एका संशोधनांतल्यान अशें कळ्ळां की पिराये परस शारिरीक, मानसीक, आनी आंग घोळपाची क्षमता ह्यो तीन गजाली काम कितलें बरें करता हें थारायता.

आस्तीक देशांनी जाण्ट्यांक समाज सुरक्षा लाभ (social security benefits) मेळटा. तशेंच सरकारी विमो येवजण आशिल्ल्यान वखद- विर्सद करूंक शक्य जाता. पूण गरीब देशांनी ह्यो सुविधा दिवंक सरकाराक लेगीत परवडना. भारतांत व्हडा संखेन लोक गरीबींत जगतात. खासा करून ह्या लोकांखातीर सरकारान जायत्यो येवजण्यो काडिल्ल्यो आसात. सरकारी हॉस्पीटलां आनी भलायकी केंद्रां लोकांक फुकट तपास, उपचार आनी

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तामांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आमपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

वखद दितात. तशेंच सरकार लोकांक रेशनय पावयता. पूण जायते जणांक तरी लेगीत मुळाव्यो गरजो भागोवपाचें साधन ना. वाडटे म्हारगायेक लागून मध्यम वर्गीय लोकांक लेगीत जाणटेपणांत आदलें वरी संवसार चलोवप कठीण जाता. तरी चाकरी करून निवृत्त जाल्ल्या जाण्ट्यांक पेन्शन मेळटा जाल्ल्यान थोडो भोव आदार जाता. कुमार आनी तांचें वांगडी संशोधकांनी २०१० वर्सा निवृत्ती उपरांत परतून चाकरी करपी शंबर जाण्ट्यांचो अभ्यास केलो. निवृत्ती उपरांत चाकरी करपाक तीन कारणां आसलीं- घर चलोवंक लागपी पैशांची गरज, काम करपांत मजा येवप, बरें आरोग्य आसप. आंकवार भुरगीं आसप, कर्ज आसप आनी वखद विर्सद करपाक पैशांची गरज आसप हीं हेर कारणां. हांतले चडशे जाण चाकरी करताले, १/३ जाणांपरस चड लोकांक मरसर नोकरी करपाची इत्सा आसली. १९९० वर्सा केल्ले संशोधनांन चक्रवर्ती, १९९४ वर्सा केल्ले संशोधनान मलहोत्रा आनी छड्डा आनी धर्मलींगम ह्या संशोधकांनी म्हणलां की भारतांत निवृत्ती जाल्ल्या जाण्ट्यांत एक समान प्रकार (common pattern) आसा. निवृत्ती उपरांतची वर्सां लोक वाजेवन, भलायकेचे हुस्के आनी अर्थीक हुस्क्यांनी सारतात.

१९९५ वर्सा ह्या संशोधकान पळयलें की जाण्टेपणा विशीं आशिल्लीं कल्पना जाण्टेपणान मानसीक स्वास्थ्य थारायता. निवृत्ती भोंवती घडिल्ले आपले स्वताचें मोल, मोख दवरून त्या भशेन वागप, घरच्यांचो इश्टाचो आदार आसप, घरांतले निर्णय घेवप आनी फुरसती वेळार मनरिजवणीची कामां करप- हें सगळें निवृत्त जाल्ल्या लोकांची मानसीक स्वास्थ्य थारायता. वागपांत ताठरपण (rigidity) आनी खंत हांचो मानसीक स्वास्थ्याचेर नकारार्थी परिणाम जाता.

सिन्हा आनी सिंग हांणीं १९९७ वर्सा केल्ल्या संशोधनांत पळयले की कसलेय- उपचारीक वा अनुपचारीक- संघटणेन वांटेकार जावप हाचो मानसीक स्वास्थाकडेन सकारात्मक नातें आसा.

दिलहॉन आनी सिंग हांणीं २००५ वर्सा केल्ल्या संशोधनांत पळयलें की निवृत्ती उपरांत परतून नोकरी करतले जाण्ट्यांचो लोक संपर्क चड आसलो. हे लोक स्वताचें शारिरीक आनी मानसीक स्वास्थ्य बरें आसा अशेंय लेखताले. पूण ताणीं दादले आनी बायलो हातून फरक पळयलो. निवृत्ती उपरांत बायलांनी आपूण निवृत्त जाल्या ही स्थिती आपणायिल्ली. जायत्यो बायलो आतां आपल्या नातरांक पळयतालीं.

२००९ वर्सा देवी ह्या संशोधकान केरळ राज्याच्या दोन तालुक्यांतल्या २०० निवृत्त जाल्ल्या बायलांचो अभ्यास केलो. ह्यो बायलो ५६ ते ६५ वर्सां पिरायेच्यो आसल्यो. तिणें पळयलें की ह्या बायलांनी निवृत्त जाल्ले आपले स्थितीकडेन जुळोवन घेतिल्लें. जायत्या बायलांक निवृत्ती उपरांत आपली मानसीक शक्ती वाडल्या अशें दिसतालें. जायत्यो बायलो परतून नोकरी करूंक इच्छीतात्यो. पूण चडशा बायलांक आपले छंद भागोवपाची इत्सा आसली. तांकां वेगवेगळे कामांनीं स्वताक गुंथोवन घेवपाचें आसलें. ह्या अभ्यासांतल्यान संशोधकान असो निश्कर्श लायलो की निवृत्त जावपाक पिराय लागीं आशिल्ले बायलांनी पांच गजालींचेर भर दिवंक जाय- मोख दवरप, चड बेगीन निवृत्त जावप ना, वेग-वेगळ्या कामांनी गुंथून रावप, वेळ मांबाळप आनी आत्मनिर्भर रावप.

२०२० वर्सा प्रिती तरकार आनी सोमेश धामीजा हांणी ३१० सरकारी चाकरेतल्यान निवृत्त जाल्ले जाण्ट्यांचो अभ्यास केलो. ह्या संशोधनांत ताणीं perceived social support - घरच्यांकडल्यान, इश्टांकडल्यान आनी एकूण समाजा कडल्यान मेळिल्लो आदार, जिणेचो दर्जो (Quality of life) निवृत्तीचें समाधान, परतून चाकरी करपाची इत्सा- हाचो अभ्यास केलो.

घरच्यांचो आदार हाचो जिणेच्या दर्जाचेर परिणाम जाता. तसोच इश्टांचो आदार हाचोय जिणेच्या दर्जाचेर परिणाम जाता. जिणेचो दर्जो हाचो निवृत्तीचे समाधानाचेर परिणाम जाता. निवृत्तीचें समाधान हाचें परतून चाकरी करपाच्या इत्साचेर परिणाम जाता. म्हणजेच निवृत्त जिणेंत समाधान मानपी लोक परतून चाकरी करपाक इच्छिनात.

मात चिनांत केल्ल्या एका संशोधनांत ताणीं पळयलें की निवृत्ती उपरांत परतून काम करतले जाण्टे लोकांची मानसीक भलायकी खालावता.

इतलींय वर्सां काम करून लेगीत निवृत्ती उपरांत परतून काम करप ही कांय जाण्ट्यां खातीर एक खंतीची गजाल जावंक शकता. अर्थीक परिस्थितीन बरी आशिल्ली जाण्टीं इतलीं वर्सां शक्य जावंक नाशिल्ले छंद वा मनरीजवणीच्या कामांनी स्वताक गुंथयतात. मोहंती आनी तांचे वांगडी संशोधकांनी २०१२ वर्सा जाण्ट्यांचेर केल्ल्या अभ्यासांत पळयलें की मनरीजवणेच्या कामांनी आपणांक गुंथोवन घेवपी जाण्टीं चड समाधानी आसतात.

जायतीं जाण्टीं समाजीक वावर वा आपखोशयेन वावर करतात.

एका संशोधनांत तरूश हांणी २००१ ते २०२१ वर्सा जाण्टीं कसल्या मनरीजवणेच्या कामानी गुंथून रावतली हाचो अभ्यास केलां. २००१ वर्सा परस २०२१ वर्सा जायतीं चड जाण्टीं मनरीजवणीची कामां करतालीं- व्यायाम करप, खेळ खेळप, झाडां रोवप, आनी थळावे क्लबांत भाग घेवप. २०२१ वर्सा जाण्ट्यांचो आपले सोयरीं आनी इश्टां वांगडा संपर्क खूब चड आशिल्लो. २००१त जाण्टीं समाजीक कार्यावळी आनी समाजीक संघटणानीं भागीदार जातालीं ताचे परस २०२१ खूब चड प्रमाणान भागीदार जातालीं, २००१त जाण्टीं पुस्तकां, म्हयनाळीं आनी दिसाळीं वाचतालीं आनी थोडें भोव प्रमाणान संगीत आयकतालीं, २०२१त खूब चड प्रमाणान जाण्टीं संगीत आयकतालीं आनी व्हिडयो वा सिनेमा पळयतालीं.

दुयेसांक लागून मात मनरीजवणीचीं कामां सगळ्यांत आदी बंद जातात. लोकांकडेन संपर्क उणो जाता तशेंच शारिरीक कश्टांची कामां आशिल्लीं कामां करप कठीण जाता.

सिंग आनी किरण ह्या संशोधकांनी २०१४ वर्सा मनरीजवणीच्या कामांचो जाण्ट्या लोकांचेर जाल्ल्या परिणामाचो अभ्यास केलो. ताणी पळयलें की मनरीजवणीच्या कामांचो जाण्ट्यांचें आत्मगत कल्याण आनी जिणेचो दर्जो वाडयता. मनरीजवणीच्या कामांनी गुंथोवन घेवपाचें साबार फायदे आसतात- मनशांची भलायकी बरी उरता, लोकांक मेळपाक संद मेळटा, आपली कला कुशळटाय वापरपाची संद मेळटा आनी नवी कला शिकपाक मेळटा.

बदामी आनी येनागी हांणी २०१५ वर्सा गांवांत आनी शारांत रावतले जाण्ट्यांचो अभ्यास केलो. ताणी पळयलें की जाण्ट्यांची भलायकी आनी मनरीजवणीची कामां हांचो लागींचो संबंद आसता. जाण्टीं जितलीं मनरीजवणीच्या कामांत स्वताक गुंथून घेतात तितलीं तांची भलायकी बरी उरता. ताणीं अभ्यास केल्लीं जाण्टी पासयेक वतालीं, धर्मीक कार्यावळींनी भागीदार जातालीं, इश्टांक मेळटालीं, टी. वी. पळयतालीं, झाडां रोयतालीं, संगीत आयकतालीं, वाचतालीं, खेळांत भागीदार जातालीं, नातरांक पळयतालीं आनी संघटणानी वांटेकार जातालीं.

जपानांत केल्ल्या एका संशोधनांत संशोधकांनी पळयलें की समाजीक कार्यावळींनीं भागीदार जावपी जाण्टीं ह्या कार्यावळींक ५ कारणांक लागून म्हत्वाची लेखतालीं.

समाजीक कार्यावळींनी भागीदार जावंक स्वास्थ्य गरजेचें आनी फायद्याचें.

समाजीक कार्यावळींनी भागीदार जातकच आपूण अजून उपयोगी आसा ही भावना निर्माण जाता. आपली जापसालदारकी कशी दिसता.

आपलो वेळ बरो पासार जाता अशें दिसता आनी हेर लोकांकडेन संपर्क सादूंक मजा येता.

समता पांड्या ह्या संशोधकान २०१६ वर्सा उच्च शिक्षण घेवन वेवसायीक जैत मेळयिल्ल्यो बायलो निवृत्ती उपरांत आपलो वेळ कसो पासार करतात हाचेर अभ्यास केलो. तिणें १०२३ मुंबयत रावपी बायलांकडल्यान म्हायती एकठांय केली. तिणे पळयलें की ह्यो बायलो घरच्यांची देखरेख घेतात, मनरीजवणीची कामां करतात आनी आपस्वांशयेन समाजीक वावर करतात. शिकिल्लीं आनी कामाचो अणभव आशिल्ल्या बायलांचो हो आपस्वांशयेन केल्लो समाजीक वावर देशाच्या हिताक खूब गरजेचो जावन आसा अशें हांगा दिसता.

साबार संशोधनांतल्यान आमकां कळटा की निवृत्त जातकच जाण्ट्यांनी सक्रीय रावप खूब गरजेचें जावन आसा. सदांकाळ काम करीत आयिल्ल्या जाण्ट्यांक निवृत्ती उपरांत एक पोकळी निर्माण जाता. ती पोकळी भरूंक जाण्टी तर-तरेच्या गजालींनी स्वताक गुंथोवन दवरूंक सोदतात. मनरीजवणीची कामां शरिरीक आनी मानसीक भलायकेक वाडयतात. पूण जायते खेपो अर्थीक कारणांक लागून, दुयेंसांक लागून ही मनरीजवणीची कामां शक्य जायनात. जायते खेपो अर्थीक कारणांक लागून जाण्टी परतून चाकरी करूंक सोदतात. तशेंच जायतीं जाण्टीं स्वताची वळख आपले वावरांतल्यान थरायतात. तेन्ना परतून काम करप हें तांचे self esteem आनी मानसीक स्वास्थ्य गरजेचें जाता. मात कांय खेपो उपाय नासून काम करचें पडिल्ल्यान आपलें जिवीत कामांतूच सरता ही खंत कांय जाणांक जाता.

निवृत्ती उपरांत कसल्या कामांनी आपणाक गुंथोवन घेवंचें हो दर एका मनशाच्या शारिरीक, मानसीक आनी अर्थीक परिस्थितीचेर आदारून आसता. तरी निवृत्त जाल्ल्या लोकांक परतून चाकरी करपाची संद सरकारान तशेंच समाजान तयार करून दिवंक जाय. तशेंच खाशा जाण्ट्यां खातीर मनरीजवणीची कामां करूंक सुविधा आसूंक जाय. निमणें, आपस्वांशयेन समाजीक वावर करपाक उत्सुक आशिल्ल्या जाण्ट्यांक सरकारी आनी बीन सरकारी संघटणानीं तांचो आसपाव करूंक जाय.

संपर्क: 9881527581

***



# योगदान

## गौरी भालचंद्र

दादासाहेब हातांतली दांडयाची सत्री बंद करून संचित इमारतींत भितर सरलो, एक एक सोपण चडटकूच तो कोनशार आशिल्ल्या आपल्या फ्लेटा कडेन वळलो. दार बंद आशिल्लें. बॅलीचो बटण दामून ताणें एक फावटी दाराचेर आशिल्ले नेमप्लेटीचेर नदर मारली. तांच्या पोरन्या आदल्या फळ्याचो दाग अजूनय दाराचेर उरला. रंगाच्या लाशांनी ताका व्यापून दवरपाचो खोटो यत्न केला. आनी त्या जाग्यार मात्शी उंच बाजू आशिल्लो नवो बोर्ड बसयल्यार कांय वर्सां जालीं.

'दिनकर दड्डीकर' हें नांव मनांत दवरलें आनी दार उगडपाची वाट पळयत उबो रावलो. वत्सलान मोठ्यान धपको मारून दार उगडलें.

"दनपार जायत आयली. आतां ह्या जाण्टेपणांत खंय वता. आमकां व्यस्त दवरतले.... खंय गेल्ले? घरांत कितलीं कामां आसलीं. खबर आसा? पिनूचो अभ्यास करपाचो आशिल्लो. तुज्या पुताचे ऑफिसाचे कपडे इस्री करपाचे उरले. तिस्कार आशिल्ल्या चपाती भाजी सेंटरांतल्यान चपाती-भाजी हाडपाची आशिल्ली. कितलींशीच कामां तशींच उरलीं तुमकां कितें पडलां ताचें?" वत्सलान आपलें तोंड सोडलें.

दादान उलयनासतना पांयतणां काडलीं आनी मेजाचेर आशिल्ल्या तांब्याच्या पात्रा कडेन वळलो. भायर सुर्यान गळो सुकयिल्लो.

तितल्यान वत्सलान आवाज चडयत म्हटलें. लागींच्या चपाती-भाजी सेंटरार वच आनी थंयसून चपाती-भाजी हाड. दादा खुंटयेचेर सत्री काडपाक गेलो.

"थंय वचपाक सत्री कित्याक जाय? बेगीन वच नाजाल्यार सेंटर बंद जातलें." उदक पियेवपाक दिनासताना वत्सलान दार बंद केलें.

सोपणां देवन सकयल येवन इमारतींतल्यान भायर सरतना ताणें वयर पळयलें. सुर्याचो उजवाड आयिल्लो. ताणें एकदां वयर पळयलें आनी चलपाक लागलो. दनपार जायत आयली. आनी उश्णताय वाडत आशिल्ली. गरम जावपाक लागलें. एकदां वयर पळयलें आनी तो चलपाक लागलो.

शे! ताका सोंसपाक जायना जालें. पांय जळत वचत म्हणून ताणें खिणाक आपलो तळवो वयर काडलो. म्हाका भायर धाडून दार बंद करपाच्या बोवाळांत पांयतणां लेगीत पायांत घालूंक नाशिल्लीं. म्हाका सत्री लेगीत घेवपाक दिली ना. येवजीत सुर्याच्या उज्यांत तो मुखार वतालो. पांय जळत आशिल्ल्यान बेगीन पावलां मारतालो. केंद्राकडेन पंदरा-वीस मिणटां भितर पावलो.



"भैय्या! फक्त म्हाका एक पार्सल चार चपाती-भाजी दी." दादा कावंटरा कडेन पावत म्हणपाक लागलो.

"अरे दादासाब. आप? इतनी दोपहर को? मुझे कह दिया होता. घर भेज देता आपके पार्सल. लडके लोग के साथ." वाघवाणी सेंटर वालो ताकां पळोवन म्हणपाक लागलो.

"एक पेलो उदक मेळत?" दादान ताचे कडेन पळयत कशें तरी विचारलें.

"क्यो नही ? आइये. थकलो दिसता. यो रे बस. एक मिठी लस्सी देना." ताणें भितर पळोवन आदेश दिलो.

"आरे पूता.! फक्त उदक. आनीक कांयच नाका." दादासाहेबान ताका सांगलें.

तुमी म्हाका आपलो मानिनात. आयज कितें नवो वळखतां हांव तुमकां? म्हज्या ल्हानपणा सावन तुमका वळखतां. कृष्णाकाकी गेले उपरांत दाळ-भाताचो कुकर लावन तुमी म्हजे कडल्यान चपाती-भाजी घेवन वताले. दिनकाराक चपात्यांची संवय आशिल्ल्यान. महेश वाघवणीन फाटल्यो यादी काडीत म्हणलें.

त्या भुरग्यांन लस्सीचो एक व्हडलो ग्लास दादाक दिलो. दादाच्या मनांत संकोच निर्माण जालो.

"घे रे. म्हजे खातीर. म्हाका बरें दिसतले मात्शें." लस्सीचो ग्लास रितो केले उपरांत दादा आपल्याक दिल्ले चपाती-भाजयेचें पार्सल घेवन वचपाक उठलो.

"लस्सी पियेले उपरांत म्हाका मात्शें बरें दिसलें." दादान ताचे कडेन पळयत म्हणलें.

तुमका बरें दिसलें न्हय. बस्स! म्हाकाय समाधान जालें तुमच्या तोंडार आशिल्ली खोशी पळोवन" महेशान हांसत म्हणलें.

पांय निबरांन तापत आसताना तसोच येत तो इमारतींत पावलो . सोपणां चडून फ्लॅटांत

पावलो. ताणे बॅल वाजयली

"येवपाक कित्याक वेळ लागलो?" "हांगा दी" तिणें ताच्या हातांतल्यान चपाती भाजयेचे पार्सल घेतलें आनी ती रांदचे कुडी कडेन गेली.

सुर्याच्या लासपान पांयांचे तळवे तांबडे जाल्ले. ताणें सदरो काडून खुंटयेक लायलो आनी बानयान घालून तो कदेलार बसलो.

फॅनाचो आवाज आयले उपरान्त वत्सलान भायर येवन उलयनासताना फॅन बंद केलो. दादान तकली वयर करून तिचे कडेन पळयलें.

"तुमी दोळे व्हडले करून कितें पळयतात? दीसभर फॅन चालू आशिल्ल्यान हांवें तो बंद केलो." वत्सलान रागान म्हणलें.

"पूण हांव आतांच..." दादाचें वाक्य अपूर्णच उरलें.

"आमी घरांत नात काय कितें? दीसभर फॅन चलतालो. बिलां कितलीं येतात खबर आसा?"

"तुज्या अल्प पेन्शनांत कितें करूं येता? सगळो भार तांचेर पडटा?"

दादा तिचे कडेन पळयत आशिल्लो आनी आपणाकूय चपाती-भाजी दिवपाक सांगतालो.

"तुमी खावं नाका भायलें? भायलें जेवण खाले उपरांत दुयेंत पडल्यार आमकां पळोवंचें पडटलें. खर्च जातलो." वत्सलान म्हळें.

"तुमी फक्त पेज जेवात. आमकां आनी तुमकांय बरें." वत्सला मोठ्यान उलयताली

तिणें वाडील्ली रूच नाशिल्ली पेज तो तशीच जेवपाक लागलो. हालीं दर दिसा पेज खावन ताच्या तोंडांतली रुच गेल्ली. पेज जेवले उपरांत बेसिना कडेन हात-तोंड धुवन दादा खाटीर पडपाक वळलो.

"कितें चल्लां? इस्त्री कोण करतलो? कपडे धर!" तिणें ताच्या मुखार कपड्याची रास दाखोवन म्हणलें.

"मात्शें उपरांत केल्यार चलचे ना गो बाय? म्हाका आतां करपाक जायना." दादा सांगपाक लागलो

"मागीर विसरतले तुमी. आतां करात नाजाल्यार उपरांत कांयच जावंचें ना." वत्सला रागान उलोवपाक लागली. उलय नासतना ताणें प्लग लायलो. आनी बटण चालू करून इस्त्री मारपाक लागलो. मेजाचेर एक एक कपडे घेवन तांचेर इस्त्री हालपाक लागलों.

वत्सला खाटीर न्हिदून आशिल्ली. इस्त्री सोंपयतना ताणें तकली वयर काडली आनी एक सुस्कार मारलो.

. 'पांच वरां जाल्यांत. घड्याळी कडेन पळयत तो बेसिना कडेन आयलो आनी तोंडार उदक मारीत तोंड धुलें. एक सुस्कार घेवन ताणें तुवाल्यान तोंड पुसलें.

खुंटयेचेर आशिल्लो शर्ट घालून तो आळम दीत कदेलार बसलो. वत्सला जाम न्हिदेंन आशिल्ली. मोबायलाची रिंग आयकून तिका जाग आयली.

"हॅलो! कोण उलयता?" "हांव उलयतां दादासाहेब", "उलय."

"हय याद जाली. विसरून गेल्लों. आयज १ ऑक्टोबर म्हणून. बरें आसा, हांव येतां. बरें तर. फोन दवरतां" अशें म्हणून दादान फोन सकयल दवरलो.

"कोणाचो फोन आशिल्लो? आनी खंय वता?" वत्सला दादाक विचारपाक लागलें.

"आयज १ ऑक्टोबर आसा न्ही?" दादा खोशेन उलोवंक लागलो.

"हय, १ ऑक्टोबर! इतलें कितें आसा? फाल्यां २ ऑक्टोबर. तारीख येत रावता" वत्सलान म्हणलें.

सांजवेळा सातांक सुमार म्हाका कार्यावळीक आपयला. पालिकेंतल्यान फोन आयिल्लो. दादान वत्सला कडेन पळयत म्हटलें.

'आतां तुमकाय आमंत्रणाचे फोन बीन येवंक लागले. आगे बाये म्हजे. कोणे केलो?"

"मुन्सिपाल्टीच्या प्युनान?" तिच्या आवाजांत कोडसाण आशिल्ली.

"ना. मेयरान!" दादान म्हणलें.

"सांजवेळचो आमचो प्लॅन इबाडून मनोरंजन करपाक खंय वचूंक सोदतात तुमी? आमी दोगांय भायर वचपाचीं आशिल्लीं. तुमी पिनूकडेन रावात. आमी राती धा मेरेन भायर जेवन येतलीं." दिनकरान भितर येवन म्हणलें.

दादाक कांयच उलोवपाक मेळ्ळें ना. तो फकत खाटीर बसून कामा वेल्यान आयिल्ल्या दिनकराक पळयत आशिल्लो. पूण तो लक्ष दिनाशिल्लो. वत्सला तयार जावन दिनकरा वांगडा भायर सरपाक लागली.

"चल आमकां वचपाक जाय न्ही?" तिणें आरशान पळोवन केंस सगळ करून म्हणलें

दोगांय सोपणां देंवन सकयल आयलीं. मोटारसायकल सुरू करतकच ती फाटीं बसली. दोगांय नदरेक पडनाशीं जालीं. उपरांत इतलो वेळ गॅलरींत उबो आशिल्लो दादा तीं गेले उपरांत भितर आयलो आनी आपल्याच विचारांत कुडींत पासयो मारपाक लागलो.

"मेयरान आपयला आनी हांव गेलो ना जाल्यार तांकां कितें दिसतलें? कितें करचें? कशें वचप?" दादा चिंतपाक लागलो

तो परत कदेलार अस्वस्थपणान बसलो. खूब विचार करून ताणें आनीक एक फावटीं घड्याळीचेर नदर मारली. स जावन वीस मिण्टां जालीं.

मनांत निर्धार करून तो उठलो. पिनू एक पुस्तक घेवन अभ्यास करतालो.

"चल पिनू." ताणें ताचे कडेन येवन म्हणलें.

"खंय वचपाचें?" पिनू उबो रावन विचारपाक लागलो.

"चल भोंवपाक वचूंया" दादान पिनूक सांगलें.

"हे!!" तो खुश जावन ताळयो मारपाक लागलो.

तो दार बंद करून ताच्या वांगडा भायर सरलो. सोपणां देंवन ताणीं रिक्शा केली आनी पिनू वांगडा रिक्शेंत बसलो.

"म्युनिसिपल कम्युनिटी हॉलाकडेन व्हर." मात्शें बेगीन वच अशें रिक्षाकाराक सांगून तो आनी पिनू भितर बसले.

रिक्शा मुखार वचूंक लागली. कांय वेळान पालिकेच्या दारांत रिक्शा थांबली. मीटरा प्रमाण भाडें दिवन दादा पिनुक घेवन सकयल देंवलो.

सदांचोच सदरो आनी धोतर घालून तो हॉलाचे वटेन वळलो.

"ओ. यो. यो... दादासाहेब! हांव तुमचीच वाट पळयतालों" मेयरान स्वता मुखार येवन म्हणलें. हॉलांतल्या सगल्या मनशांचे दोळे दाराचेर वळले.

"सॉरी हां... मात्सो उशीर जालो." दादान म्हटलें.

"च्या...! अजून खूब वेळ आसा." तुमी माफी कसली मागतात. मनीस म्हटल्यार पांच मिनटां फाटीं फुडें जावपाचीच. येयात. बसात तुमी."

दादासाहेबाक तांणी माचयेर बसयलो महापौरान आपली सुवात घेतली.

दादान माचयेर आशिल्ल्या बोर्डाचेर एक नदर मारली.

जेष्ठ नागरिक दिस. १ ऑक्टोबर. अभिनंदन सुवाळो. मुखेल सोयरो. दादासाहेब दळ्वीकर!

"आयज १ ऑक्टोबर, ज्येश्ठ नागरिक दीस. जाण्टयांक मान दिवपाचो आनी तांच्या वावराची दखल घेवपाचो दीस."

"ह्या शुभ प्रसंगार दादासाहेबा विशीं चार उतरां सांगपाची संद मेळ्ळी, स्वातंत्र्य संघर्शांत तांणी केल्ल्या वावरा खातीर तांचे उपकार मानपाक जाय. दादासाहेबा सारक्या उदात्त मनशाचो शाल आनी श्रीफळ दिवन सत्कार करपाक मेळप हें म्हजें भाग्य अशें हांव समजता. आयचे पिळगेन जाण्टयांचो आदर आनी मान राखचो." अशें म्हणून महापौरान दादासाहेबाच्या हातांत श्रीफळ दिलें आनी खांदार रेशमी शाल घालून तांचो सत्कार केलो.

प्रेक्षकां मदल्यान चार दोळे ताचे कडेन एकटक पळयत राविल्ले. दादासाहेबाचेंय लक्ष परत परत थंय वतालें, तो परत परत दुर्लक्ष करपाचो यत्न करतालो. पूण पिनूक कळ्ळें.

"आजोबा, आजोबा..." अशें म्हणत तो दादासाहेबाक कुरु करतालो. दादासाहेबान ताका ओगी रावपाक सांगलें.

"दादासाहेबाचीं उतरां आयकुपाक आमी सगले उमळशिकेन रावल्यात तांणी दोन उतरां उलोवंची." दादासाहेबाची वळख करून दिवपी उलयलो. दादा उठलो. मायकाकडेन गेलो आनी उलोवंक लागलो.

"आयज ज्येश्ठ नागरीक दीस. ह्या निमतान महापौरान म्हाका आमंत्रण दिलें. सगल्यांत पयलीं म्हजे सारकिल्या सामान्य मनशाक एक दोन उतरां उलोवपाची संद दिल्ले खातीर तांचें उपकार मानतां. प्रेक्षकांनी ताळयो मारल्यो. दादासाहेबान उलोवणें चालूच दवरलें.

"कार्यावळीक हाजीर आशिल्ल्या सगल्या मानेस्तांक येवकार दितना महापौरान सांगलां, जाण्टयांक सदांच आदर आनी मान दियात. खरें तें. आमींय केन्ना तरी जाण्टे जातले हें येवजून सगल्यांच्या पूत-धुवांनी जाण्टयांच्यो भावना समजून घेवंच्यो. तुमी तांचे खातीर खूब कितें करचें अशे हांव म्हणिना. पूण निदान जाण्टयांक त्रास जातलो अशें वागूं नाकात, हय. गजाल खरी. तांच्या आनी तुमच्या विचारांत खूब फरक आसा. पूण तरी जाण्टयांक समजून घेयात तांचो अपमान करूं नाकात."

दादासाहेब एक खीण थांबलो आनी उपरांत उलोवंक लागलो. "आयज मनीसच मनशांक त्रास दिवपाक लागला."

"ल्हानाचीं व्हड करपी आनी बरी दिशा दाखोवपी आवय बापूय आयच्या भुरग्यांक जड जाल्यात. आमी कोणाकडेन पळोवपाचें? आवय बापाय परस आयचीं भुरगीं आपल्या करिअराक चड म्हत्व दितात. तांची नदर फक्त पयशांचेर. हें खंय तरी थांबूक जाय. आयच्या भुरग्यांनी हांचेर विचार करूंक जाय. स्वातंत्र्य लढ्यांत योगदान दिवन हांवें म्हजें कर्तव्य केलें. व्हडलें कांय केलें ना. हांगा आपोवन म्हाका मान दिल्ले खातीर महापौराचे हांव उपकार मानतां आपलें भाशण सोपोवन दादासाहेब कदेलाचेर बसलो.

दिनकर, वत्सला सकयल बशिल्ल्यां मनशां मदीं बशिल्ली. दादासाहेबाच्या उलोवण्यान दोगांयचींय तोंडां पडलीं.

दारांत पावतकच वत्सलान धांवून दादाच्या पांयांक नमस्कार केलो. दिनकरूय ताचे फाटल्यान गेलो. दादान मोगान ताचे तकलेर हात दवरलो.

"दादा आमी चुकलीं. चार बरीं उतरां सांगपाक पयशे लागनात, आमी तुमचे कडेन वायट वागलीं. तुमचो खिणा खिणाक अपमान केलो. आमी व्हड जातकच आमचोय पूत आमकां अशेंच वागयतलो हें आमी विसरून गेल्लीं. दादा आमका माफ करात. एकमेकांक बरीं उतरां दिवन आमी सगळे सुखी रावूंया." वत्सला काळजांतल्यान उलयली. दादासाहेबाच्या तोंडार खोस फांकिल्ली तो सगल्यांक घेवन समाधानान घरांत भितर सरलो.

संपर्क: 9422373926

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल- ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165
Name: JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch: Panaji-Goa
IFSC code: PUNB0292300



# गर्लफ्रेंड - बॉयफ्रेंड

निमिशा होबळे

"कितले लाड बाबा एकल्याचे. 'वेलेंटायन डे' घा दिसांचेर आसा तेन्नासावनूच तुकां गिफ्टां मेळपाक लागल्यांत मगो तनू!" प्रियान मातशें जळफळतच म्हणलें.

"णववेक सावन आमचो मोग न्ही गो. येता त्या वेलँटाईन दिसा आमच्या मोगाक चार वर्सां सोंपून पांचवें वर्स लागतलें. आनी ताचें थारलां न्ही, बारावेची परीक्षा जावन पुण्याक वचपाचें. देखून हे सगळे लाड." तनयान लजत सांगलें.

"कितलो मोग गो तुमच्या भितर. हांव आनी मितेश वांगडा आसल्यार एक वर्स जालें. स-सात म्हयने जशे जांव नाका, नव्याची नविदाद सोंपली आनी तेन्नासावन मोग इल्लो इल्लो आटत चल्ला सो." प्रिया खंती जालें.

"नव्याची नविदाद सोंपताच गो. तुमकां दोंगांयकूय मोग तिगोवन दवरूंक कळपाक जाय. ताचेवयल्यान याद आयली, साक्षीलो मोग नवोच न्ही गो! तुजी तर मजाच चल्ल्या आसतली. न्ही गो??" तनया.

आपलें नांव आयकून तंद्रेंत आशिल्ले साक्षी भानार आयलें. 'मोग' उतर आयकून ताच्या पोटांत कूळ्ळ जालें. एक अडेचो हांसो ताणें तोंडार हाडलो.

"ओ हय! साक्षी इज नो मोर सिंगल! केन्नाच्यान ताच्या फाटल्यान लागिल्लीं बॉयफ्रेंड कर बॉयफ्रेंड कर म्हूण. आठवेक णववेच्यान आमचो सगळ्यांचो कोण ना कोण तरी आसलो पूण साक्षी मात सिंगल! कोणाच्या नांवान लेगीत हाका चाळोवंक मेळनासलें. भायर भोंवपाक आमी जोडयांनी भायर सरतालीं आनी तेन्ना साक्षी एकले पडटालें."

"आगो तें सगळे पयलीचें. आतां जाय तितलीं भोवूंया गो - जोडयांनी. आनी ताका चाळोवंया लेगीत" तनयान उमळशिकेन म्हटलें.

"चाळोवपाक ताचें नांव तरी खबर आसूं नाका? हें तर 'ताच्याविशी' आमकां कांयच सांगना. कितल्या फावटी म्हूण विचारपाचें ताका?" प्रियान साक्षीकडेन पळयत सोणो फुलयलो.

"ए, नांव सांग गो! नाजाल्यार आमी उलोवचीना आं तुज्यावांगडा!"

आता मात साक्षीक तोंड उगडचेंच पडलें. अ..ब...अ... अन्वेश नांव ताचें." साक्षीन माथें खाजयत सांगलें.

"ख्रंयचा?"

"म्ह...म्हापशेचो."

"कितें करता?"

"बेचलर्स ऑफ आर्टस." साक्षीन दोंगांयकडल्यान नदर चोरली.

"आनी कितंय सांग मगो आमकां ताच्याविशीं."

"आनी कांय ना सांगपाक." साक्षीन मान सकयल घातली. लजत काय लिपयत तें मात कळपाक मार्ग नासलो.

"हें सांगतलें माती! आतां आमकां अन्वेश जिजूच सांगतालो. केन्ना वळख करून दिता आमची ताच्यावांगडा?"

आबूज जावन साक्षीन दोंगांयकडेन पळयलें. ताच्या तोंडांतल्यान उतर भायर फुटनां जालें.

"आगो केन्ना मेळयता आमकां?" प्रियान मोठ्यान म्हटलें.

"मेळयता बेगीनूच." साक्षी आनी थंय रावूना. तें धांवत येवन भायर खेळामैदानार बसलें. ताका सामको शेळो घाम सुटलो. दोळ्यांतल्यान दुकां अळंग पोल्यावयल्यान देंवली. दुकां गळपाक कारण लेगीत तशेंच आसलें - इश्टिणींचो दबाव!

साक्षी तशें अभ्यासांत हुशार. पांचवेंत आसतना दुसऱ्या शाळेंत पावलें आनी तें एकटेशें पडलें. थंय ताका केयूर मेळ्ळो. तांकां दोंगांयकूय वर्गशिक्षिकेन वांगडा बसयल्लें. अभ्यासांत कमी आशिल्लो केयूर जेन्ना माथें खाजयतालो तेन्ना हुशार साक्षी नाकार पाविल्ले दाटशें तें वक्ल वेवस्थित करून केयूराक कितें कळना तें शिकयतालें. वेळ वता तसो दोगांयची इश्टागत घट जाली.

साक्षी हुशार आशिल्ल्यान ताचेकडेन चलयांनी इश्टागत केल्ली खरी पूण, 'काम जालें, वैज मेलो' अशी शी गत ताची तीं करतालीं. परीक्षेवेळार ताका दसून रावप, उपरांत पयस रावप, ताच्या फाटल्यान ताच्या वक्लाची आनी दोन विणयांची फकाणां मारप, पिकनिकेक ताका एकलें उडोवप, असलें तीं करताली. पूण केयूर मात असो करीनासलो. कोणूय साक्षीच्या वाटेक आयल्यार तो साक्षीक पातयेनासलो.

दोगांय जशीं सातवेक पावनाका, केयूर साक्षीकडल्यान पयसावलो. वर्गांतल्या चल्यांवांगडा ताची इश्टागत वाडपाक लागली, वयल्यान आपल्याक साक्षील्या नांवान चाळयता म्हूण तो आनीक ताचेकडल्यान पयस रावूंक लागलो. साक्षी परत एकटें पडलें.

वर्गांत एक साक्षीसारकेंच चली आशिल्लें - मिता. बाकिची भुग्गीं ताकाय बी साक्षीसारकीच करतालीं. साक्षी ताचेकडेन इश्टागत करपाचो यत्न करतालें. पूण हॅट! आपल्याक सदांच दुसरो नंबर आनी साक्षीक पयलो नंबर मेळटा म्हूण ताचेर जळफळत तें पयसूच रावतालें.



"कसो आसा गो तुजो तो?"

"हु... हु... हुख! आसा गो बरो! आयज आमी 'इशकजादे' पळोवपाक वतात." मितान मुरगटतच सांगलें.

तांचे उलोवप आयकून साक्षी रानांत पडलें. कशें कोण जाणां, दुसरे दिसाच्यान मिताक सगळीं म्होंव कशीं दसपाक लागलीं. 'ही भानगड आसा तरी कितें?' हें साक्षीक कळच ना जालें. पूण जेन्ना ताका कळ्ळें, ताणें तकलेर हात मारलो. मितान बॉयफ्रेंड केल्ल्यान ताच्यो गजाली आयकपाक सगळीं ताचेकडेन उलोवपाक लागलीं.

ल्हवू - ल्हवू बॉयफ्रेंड गर्लफ्रेंडचें फॅड सगळ्याक पातळ्ळें. ताच्याखातीर सगळ्यांच्यो इश्ट - इश्टिणी वाडत रावल्यो. आता केयूराचे लेगीत गर्लफ्रेंड आशिल्लें. तो साक्षीक लेगीत "आता तूंय बी बॉयफ्रेंड कर, मागीर पळय तुकां कितल्यो इश्टिणी मेळटल्यो त्यो" म्हूण सांगपाक लागलो. पूण साक्षी ह्या सगळ्या भानगडींतल्यान पयसूच रावलें. ताणें अभ्यास एके अभ्यास करून आपलो पयलो नंबर तसोच तिगयलो.

णववेन पावलें तशें तनया आनी प्रिया कश्योतरी साक्षिच्यो इश्टिणी जाल्यो. केयूरलेगीत तसो आजूनूय ताचो इश्ट आसलो. पूण इश्टागतीमदीं गर्लफ्रेंड - बॉयफ्रेंड चे फॅड आजूनूय घोळटालें.

सकाळच्या प्रार्थनेक जमता थंय 'ए म्हजो बाबू आनी हांव आयज भोवंपाक वता हां, मातशें सांबाळून घेयात.'

मदल्या सूटयेक 'तुजो घोव कसो आसा गो हां?'

आनी शाळा सुद्धा तेन्ना 'या मगो आज डबल डेटीक?' ह्योच गजाली चलताल्यो. साक्षी बाबडें मोने रावून सगळ्यो गजाली आयकतालें. देखून तें इश्टिणींच्या पंगडात आसून लेगीत नाशिल्ल्यावरी जातालें

बारावेंत पावली तरी हे फॅड चालूच! आतां मात साक्षीच्यान सोसूंक जायना जालें. "तनया आनी प्रिया आपल्याक खऱ्या अर्थान वांगडा आस्पावन घेतली जाल्यार बॉयफ्रेंड करचोच पडटलो!" साक्षीन थारायलें.

साक्षी सादें आनी अभ्यासू आसल्या कारणान तें खंयच्या चल्याकडेन सहज उलोवंक पावनासलें आनी ताचेकडेन चड कोण उलोवंक वचनासलो. 'आता बॉयफ्रेंड सोदपाक वेळ वगडावच्यापरस खोट्या आयकतान्यो गजाली केल्ल्यो बऱ्यो' हें चिंतून ताणें तयार केलो 'अन्वेश'!! पूण ह्या अन्वेशाची काणी आपल्याच आंगार येता हें चिंतून ताका परत परत घाम सुटत आसलो.

"हांका मेळोवपाक एका दिसान खंयचो अन्वेश तयार करूं हांव?" साक्षी माथ्यार हात दवरून आसले.

इतल्यात केयूर थंयसल्ल्यान पासार जातालो. ताणें साक्षीची बडबड आयकली

"कोण गो हो अन्वेश? आनी ताका तयार सो कित्याक करपाक जाय?" केयूर साक्षी म्हऱ्यांत चवकससाणीचें तोंड घेवन बसलो.

"कोण एक न्ही!"

"हॅट! बेश्टें तूं, कोणाक धरलो कांय कितें गो? आनी तुवें म्हाका सांगूना?" केयूरान तोंड येदेंशें केलें.

"म्हजें सोड, तुजें खंय? कितें म्हणटा तुजो मोग?" साक्षीन विषय बदल्लो.

"ब्रेक अप!"

"कितें? तुमकां आनी कितें जालें आतां मर्दीं?"

"पयली जाल्लें. आतां सारको जालां!" केयूर

"म्हटल्यार?" तनया रानांत पडलें.

"शी, पिशेपणां केली गो हांवें. बाकीचे वांगडी गर्लफ्रेंड करतात, वांगडा भोवूंक मेळटा, इंस्टाग्रामार फोटो घालूंक मेळटा म्हूण गर्लफ्रेंड केले गो हांवें. आनी ह्या सगळ्यांमदीं हांव तुज्या असल्या इश्टिणिकडल्यान पयसावलो, अभ्यासाकडल्यान पयसावलो, कित्याखातीर? तर फक्त आपूण आनी बाबा कितलो 'कूल' हें लोकांक दाखोवंक! ताका कोणतरी आनीक कूल मेळ्ळो आनी म्हाका सोडून तें गेलें! पूण म्हाकाय व्हडलेशें कांय लागूना. ताच्यापासत खूब कितें सुटलें, पूण आता म्हाका हांवूंच 'एकदाचो सुटलो' कसो दिसता.

तुकां एक सांगता हांव. बाकी लोक गर्लफ्रेंड - बॉयफ्रेंड करतात म्हूण आपणेय तशेंच करूंक जाय अशें ना. पयलें कांय दिस मजा येतली आनी मागीर सजाच सजा. तुकां जर खरेंच कोण आवडटा, आनी ताकांय तूं आवडटा जाल्यारूच नवें नातें करपाक फुडें सरप. दुसऱ्यांक दाखोवंक, आपणाक आस्पावन घेवच्यापासत नातें जोडूंक गेल्यार लोक शेणटात.

आतां हांवें निश्चेव केला, I will be myself and I will not please anyone! हांव म्हज्यापरीन इश्ट जोडून कूल जातलो. गर्लफ्रेंड करून न्हय! केयूरान निश्चेव केलो.

आपूण केदी चूक करूंक वतालें हें साक्षीक होलमलें. केयूराच्या काणयेंत ताका आपली काणी दिसली.

"खरें तुजें इश्टा!" साक्षीन दोळे मिचकायले आनी काळजांत आत्मविस्वास घेवन 'साक्षी' जावपाक उठलें.

सपर्क: 9420687620, 8329532163

***

गोत्र - मनीसपण. क्षेत्र - कुसमण

# लियाकत

**दादा हेगडे**

लांब हात कोपरा मेरेन कवळिल्लो असो चौकड्याचो फुल शर्ट, दोनूय पायांच्या वयर सरकावन मदीं गांठ मारून गुठलायलेली लुंगी, तिवूय रंगीत. लुंगेच्या किरवंटीक पयशे दवरुंक कपड्याचो बोटवो. ताचो हो सदचोच भेस. आपल्या धार्मिक सणां-सुदां दिसांनी लेगीत ताणे हो भेस केन्नाच बदलुंक ना. सदांच तेंच न्हेसण आसतालें. फरक कितें काय म्हळ्यार फकत तें नवें ताल्ल आसप. ताचें न्हेसण हालींसारा न्हेसतात त्या मोयरां भशेन नाशिल्लें. सदांच तो 'नीज गोंयकार मोयरा' भशेन न्हेसतालो. मानेर आयिल्ले लांब केंस. ताचें उलोवप तशेंच चलप आगळेंवेगळें. दादल्या परस बायल मनशेच्या हालचाली लागसारचें आशिल्लें. सर्गेस्त शेख अब्दुल लतीफ हांच्या पांच पुतांतलो लियाकत निमाणो पूत. लियाकताची आवय केपें मोयरा वाड्यार रावपी. शेख अब्दुल लतीफ हांगाचो घर जावंय जाल्लो. शादी उपरांत ताणे केपें राबितो करपाचे थारायलें आनी तो केपेंकार जालो. लियाकतान कुसमणा बालोन्नती मराठी सरकारी प्राथमिक शाळेत इयत्ता चौथीच्या वर्गांत बरींच वर्सां काडलीं आसूंक जाय. कित्याक तर म्हज्या फुडें तशेंच फाटीं जे जे कोण हांगासर शिकले, त्या सगळ्यांचो लियाकत वर्गमित्र जाल्लो. उपरांत मात ताणे पांचवी वा सवी हाच्या फुंडलो पावंडो हुपलो ना. थंयसर सावन ताणे शालेय शिकप करपाचो हावेस सोडून दिलो. आदींसावन तो दादल्यां परस बायला मदींच चड रंगतालो. बायलांकुय तो तितलोच आवडटालो. तांच्या ह्या संगतीचो फायदो घेवन ताणे आपलो स्वतंत्र व्यवसाय सुरु केलो. त्या वेळार 'पोल्ट्री फार्मिंग' असले प्रकार सुरु जावं नाशिल्ले. त्या वेळची घरांतली गृहिणी जिका आयज 'होममेकर' अशें म्हणटात, संवसाराक आपलोय हातभार लागचो म्हण ल्हान-सान घरगुती व्यवसाय करतालीं. कोंबयो पोसप हो तांतलोच एक व्यवसाय. कोंबयांची तांतयां विकून पयशे जोडप, तितलोच घरच्या संसाराक आदार जातालो. तांतली खंयची एक कोंबी नेमान तांतयां दिवपाची बंद जाली आनी रवाणी बसुंक लागली की ती विकप अशें थारिल्लें. 'कोंबडे मटण' करचे पासत केपें लागच्या शारांनी ह्या कोंबयांक खूप मागणी आसताली. लियाकतान त्या वेळार हेंच हेरले आनी कोंबयो विकपाचो आपलो धंदो सुरु केलो. हालींसारा त्योच कोंबयो 'गांवठी' वा 'गांवरान' ह्या नांवान लोक बाजारांत बरेच पयशे दिवन विकत घेतना दिसतात.

लियाकात केपें लागसारच्या अवेडें, कोठंबी, शेंल्डे, आमोले (आंबावली), पिर्ला अश्या सगळ्या गावांनी वचून कोंबयो पुंजायतालो आनी त्यो विकत घेतालो. प्रत्येक गावांत वचपाचो ताचो दिस थारिल्लो. थंय पावल्या उपरांत ''बाय! हांव आयलो गो....'' अशें तरेचें पेंरगांव घालत ताणे गांवात शिरकप. मधल्या वाड्यार एका मेकळ्या सुवातेर



व्हड वजें घेवन ताणे बसून रावप. त्या गांवच्यो बायलो आपआपल्यो कोंबयो वा कोंबी घेवन ताचेमरीं येताल्यो. कोंबयेचें वजन आनी भलायकी हाचेर तीचे मोल थारतालें. कोणाली कोंबी केन्ना रवाणी पडतली हाची जुस्त पारख ताका आसली. कसलेंच खास शिक्षण घेनासतना एका नजरेंत तो तें पारखी. एकठायल्या कोंबयांचें वजें माथ्यार घेवन लियाकत चलत घरासरीं येतालो. फांतोडेर बस धरून शारांत त्यो विकूंक वतालो. लियाकतान आपल्या धंद्या पासत खासा वास्को शार वेचिल्लें. हांगा ताची वळख 'केपेंचो कोंबयेंकार' अशी आशिल्ली. ताणे विकुंक हाडिल्ल्या कोंबयांक हांगासर बरीच मागणी आसताली. वास्को हें बोटीच्या बंदराचें शार. हांगासर भायल्या देसांतल्यान व्हड बोटी आलशिरो घेताल्यो, आयज लेगीत घेतात. बोटींवेल्या फिरंगी लोकांक आपल्यो कोंबयो चड घोस्ताक लागतात, अशें त्या व्हड बोटींचें वर्णन करतना ताणे एकदा म्हाका वाटेर मुजरत थांबोवन सांगिल्लें. जेन्ना हांवे खव्यांनीच एक विदेशी बोट पळयली तेन्ना लियाकताचे वर्णनांत कांयच अतिताय नाशिल्ली म्हणपाचें दिसलें. सारकें ताच्या वागण्या परी! मदीं मदीं गावांतली कोणाली कोंबी वा कोंबो ना जायत तर लियाकताचेर चोरयेचो फटीचो आरोप करपी महाभागुय गावांत आशिल्ले. लियाकत मात तांचे कडेन दुर्लक्ष करीत आपलो धंदो नेमान करतालो. ताणे शादी केल्या उपरांत गायो, म्हशी पोसूंक घेतल्यो. हांवे ताच्या नव्या व्यवसायाची मुजरत वासपूस केल्ली. 'लतीफा' नावांची म्हस आपल्या साप्प आवडीची, सामकी भुरग्यांवरी अशें तो म्हणटालो. एक फावट कोंबड्यो विकून घरा परतताना बशीच्या अपघातांत ताच्या एका हाताच्या हाडाचे दोन कुडके जाले. मोडिल्ल्या हाडांक न्होखणाची मळी बसोवन ते जुळवंचे पडले. हातुंत बरेच म्हयने गेले. अशें असून लेगीत निर्शेव नासतना ताणे आपलो धंदो चालूच दवरलो.

आपल्या धंद्या भायर गांवच्या वळखीच्या बायलांक अडी अडचणी

*(पान ३२ चेर)*



# निरो... मुट्ट्यांचो!

**सुभाष जाण**

आमच्या घरा सकयल ल्हानशें आगर आनी घरा वयर आंतोड (दैंगण). ह्या आंतोडात दाटायेन अनशी आनी मदीं मदीं सगळींच धा येक काजूची मुळां म्हळ्यार झाडां. आतोंडात एकूच पेरींचें झाड. ह्या पेरींची पेरां गोड आनी सामकी रूचीक. थंयच दैंगणांत एक घोटांची आमुळी. बारीक घोटां... सामकी आमट. मामकीच रूच आयल्यार आमी घांस मारून उडयतालीं. हीं घोटां फकत आब्यांच्या साटाक बेस बरीं. ह्या दैंगणांतल्या आमुळेचीं घोटां सकल खोल धोलीत पडटालीं. तें धोलींतलीं घोटां पुजांवन हाडपाचें दिव्य करपी आमच्या घरांतलें एकटेंच. म्हजें आतें, प्रमिला. शिंपणें, गोरवांचे शेण काडप, गोरवांक न्हाणोवप, आईक कांतून-शिनून दिवप, कुळागरातलें बेडे, पोंवल्यो हाडप अशीं सगळी कश्टाचीं कामां करपी प्रमिला घरांतलें एक हक्काचें नांव. काजू दिसांनी दनपरां जेवन मात्शी आड पडून जातकच, वत न्हीवलें की आमी भूरगीं प्रमिले वांगडा काजीनीं मुट्टे पुंजांवक वचप असो नित्याचो नेम. आंतोडातल्या अनशीनीं वचून मुट्टे पुजांवप म्हळ्यार हात सोलून घेवप. हाका लागून सगळ्यांकडेन एक कांटो आसतालो. कांटो म्हळ्यार लोखंडाचो खिळो मारिल्ली कोंड्याची बडी. त्या काट्यांन मुट्टे पुंजावपाक कमरेक बाग घालची गरज नासताली आनी हें काम मात्शें सोपें जातालें. जमनीर पडिल्लो मुट्टो पुंजायतांना, काट्यांन तोपून तो तसोच अळंग वयर काडून पाटल्यांत पड मेरेनची मोठी सर्कस अजूनूय घट्ट यादीक आसा. पुंजावन जातकच पांटल्यांतले मुट्टे तकलेर घेवन कोळंबेर हाडपाचें म्हळ्यार जीवार संकट. पांटलो माथ्यार घेत जाल्यार सगळो रोस गळून माथ्यावेल्यान पायांमेरेन न्हाण जातालें. साबू लावन दोन फावट न्हाल्यार लेगीत हो वास वच नाशिल्लो. मुट्ट्यांच्या पांटल्या पोंदा पोंवली दवरून तो हांडीर मारून हाडपी म्हजें आतें आनी हेर कामेऱ्यांची कळाशी मात आमकां भुरग्यांक केन्नाच जमली ना. आंतोडांतले पोकेले काजीचें झाड मात अजून तश्शें याद जाता. ह्या झाडाक मुट्टे भरपूर पूण काजूगर मात पोंके. मुट्टे रसरशीत. ह्या मुट्ट्यांचो गम्म नड. दिसपट्टो दोन लातां रोस जाता जाल्यार पोकी काज भांगतली तेन्ना चार लातां रोस जातालो. रोस कितलो आयलो? ह्या आईच्या प्रस्नाक आमी दोन लातां अशी जाप दिली जाल्यार ती सामकी खूश.



हीं मुट्ट्या रोसाचीं लातां कुळागारांतल्या बांदलेवेल्या भाटयेर पावोवप हें मोटे दिव्य करपी आमचो मानाय रमाकांत. भाटी म्हाळयार फेणी काडपाचो जागो. भांणात मुट्ट्याचो रोस घालप आनी तो शिजोवन सोरो काडप थंय जातालें. आपले दिसवड्याचें काम सोंपलें म्हणटकच सांजे वा केन्नाय आदेसाचें काम सोंपोवन दनपारां रमाकांतान आमचे रोसाचें लात भाटयेर व्हरून घालप. तो हें काम चडसो चुकय नाशिल्लो. हरशीं कामांक आपयल्यार, नाल्ल पाडपाक रमाकांत येना, पूण रोस मात चुकय नासताना भाटयेर पावयता. हें कुवाडे उपरांत खूप दिसांनी सुटलें. थंय ताका वखद मेळटालें. हुर्राक आनी केन्नाय म्हारग वखद फेणी. लातभर रोस भाटयेकाराक घालतकच तो एक पास म्हळयार पावती दितालो. रमाकांत तो पास हाडून आईकडेन दितालो. रोसाचें कोंत, मुट्टे सोंपून भाटी काडटकच पावसांत केन्ना तरी जातालें. पास दिवप आनी भाटयेकाराकडच्यान तितले पयशे घेवप हो एक वेगळोच आनंदाचो खिण. हे आलायते पयशे मेळिल्ल्याची खोस लेगीत वेगळीच आसताली.

हां... मुट्टे पुंजावन जाले की ते कोळंबेर हाडून काजू वळप आनी मुट्टे पायांनी माड्डावन ताचो रस काडूंक सुरवात जाताली. पांय धूयी नासताना रस काडूं नाका रे. आमकां निरो पिवूंक जाय. अशें हर तरेन रमाकांताक सांगल्यार ताणे कशेंच आयकप ना. बुरश्या पायांनी मुट्टे मोडिल्ल्यार निरो रूचीक बरो लागता अशें रमाकांतान आमका सांगप. इल्लेशे मुट्टे. निरो कितलोसो? अशें म्हणून रमाकांत आमकां सगळ्यांक घरा धांवडायतालो. आमी निर्शेतालीं. रमाकांत कोळंबेर येना तेन्ना मात रोस काडपाचें काम आमचेंच. ती मजा आनी उमेद मळबायेदी. ते दिसा आदीं आमी कोळंबेची निवळसाण करताले. आदले दिसांचे मुट्ट्यांचे चिंवण काडून भायर वडोवप, कोळंबी उदकान बरी धुवन घेवप अशी सगळी कामां उमेदीन जातालीं. मागीर पाय धूंवप. एखाद्रो किडीचो मुट्टो आसत जाल्यार तो भायर उडोवप. निमाणो रोस काडून जातकच सगळे मुट्टे एकठांय कुंबया पासान गोल बांदप ताचेर वयर मोठ्ठो फातर दवरप,आमी आळये-पाळयेन ताजेर वयर बसप आनी नितळ आयदनांत नळयेंतल्यान येवपी निरो धरप. आनी पिवप नाका जायसर...

संपर्क: 9422058943

***

# कोल्ला पिडा

**मुकेश थळी**



हालींसराक गुगल ट्रान्सलेट इंटरनेटार आयला. तो अणकारा खातीर वापरतात. पूण दरेके प्रादेशीक भाशेंतलीं कांय वाक्यां, उतरां, वाकप्रचार, प्रतिमाकात्मक शब्दसमूह ताचेर घाले काय भलतेंच कायचेकाय कितें तरी इंग्लीशींत येता. बेबक्यो केल्यो, कायलोळ्यो केल्यो, कावळ्या आवय, आमाड्यांचो रोस असलीं कितेंय प्रकरणां सोडलीं काय गुगल ट्रान्सलेट यंत्रणा खरशेता. कोल्ला पिडा हें अशेंच उतर. ताचो सुगंध त्या कोंकणी उतरांत आसा तितलो तो खंयचेच अणकारीत भाशेंत वचूं नजो.

कोल्ल म्हळ्यार मूड. तापमाना प्रमाण मूड घुंवता तशें जांचें कोल्ल घडीघडी फिरता, त्या मनशाक एके तरेची कोल्लाची बादा जडिल्ल्यान त्या मनशाकूच कोल्ला पिडा म्हणटात. जळामळा, सरभोंवतणी, घरांत, सोयऱ्यांगेर, ऑफिसांत, बँकेंत, मार्केटांत, बिझनेस वेव्हारांत, जंय जंय मनीस प्राणी आसा थंय ह्यो कोल्ला पिडा सांपडटात.

कोल्ला पिडेचें पयलें लक्षण म्हळ्यार तांच्या तोंडार उजवाड आसना. सुतकी. एकदम कोल्ल फिरलें जाल्यार तितल्या पुरतें तोंडार हांशे हाडून तीं तुका धबधब्या भशेन खबरी सांगून ज्याम करून उडयतात. गोड गोड उलोवन आपल्या कामा पुरतें तुका वापरतात. धपक्याक विसरतात. हीं नसांवां केन्ना तुजेर तापत, उसळत ताका नेम आसना. कारण आसना. रजांव आसना. तांच्या तकलेंत दुबावांचे कल्पने भायले किडे वळवळत आसतात. संशयग्रस्त लोक हे. Paranoiea हें उतर मानसोपचारशास्त्रांत येता, तें ह्या कोल्ला पिडांक लागू जाता.

कोल्ला पिडांचें आनीक समान लक्षण म्हळ्यार ह्या लचांडांक आपणाक लागून दुसऱ्याक त्रास जातात हें केन्नाच कळना. आपल्या वागण्याक लागून घोवाक वा बायलेक त्रास जाता हें कोल्ला पिडेन ग्रस्त सहचराक कळचना. कोल्ला पिडा हें तशें एबनॉर्मल दुयेंस न्हय. पूण पिसायपणाचेंच प्रकरण. सबनॉर्मल, अन-नॉर्मल अशें.

कोल्ला पिडा भोंवतणच्यांच्यो तकल्यो खातात. जीव खातात. एकेकदां जगणें असह्य करतात. ह्या नसांवांक तेळपाक कळपाक जाय. हाताळपाक करपाक जाय. तोंड दिवपाक आनी फुडो करपाक कळपाक जाय. कारण तांचें कोल्ल केन्नाय कशेंय घुंवता. देखून कोल्ला पिडेचे झळकेक कोण रावना. कारण जाणून बुजून आपलो जीव फोंडांत घाल्लो कोणाक नाका नासता.

कोल्ला पिडांचे वेगवेगळे नमुने वेगवेगळे तरेचे आसतात. आयज बाजारांत वतना वाटेर तो वा ती कोल्ला पिडा मेळ्ळी जाल्यार आज ती हडकून आडावन आडावन भरभरत रावता. ताळतंत्र नाशिल्ली बडबड. पूण फाल्यां तेच वाटेर, त्याच आंब्या झाडा पोंदा ती पिसाय तुका मेळ्ळ्यार तुवें हडकिल्यार लेगीत विचित्र गंभीर नुरा करून कडसरता. असल्या विक्षिप्त वागण्याचेर तूं चिंतीत रावता, आपलें कितेंय चुकलें काय हाचे कडेन वागतना अशी अपराधी भावना तुज्यांत किल्लूंक लागता. आनी हातूंत जिणेंचे मोलादीक खीण तूं वगडावन बसता.

कोल्ला पिडांचो एक नमुनो आमच्या ऑफिसांत आशिल्लो. हरशीं वर्सभर एकदम बरो. फक्त एप्रील आनी मे म्हयन्यात ताचें चाळवतालें. माय तापलो रे, अशें आमी म्हणटाले. त्या दिसांनी तो कैंच कैंच करूंक लागतकच निगयनाक म्हळ्यार नव्यान ऑफिसांत येवपाक हो मनीस कॅरॅक आनी जाणवाय अशें दिसप माहजीक. प्रत्यक्षांत तो बरो आशिल्लो. फकत दोन म्हयन्यां उपरांत मीर्ग लागून पावसाच्यो दडको आनी वावझड आयली रे आयली काय हाचें मन, वर्तन नॉर्मलाचेर येवचें.

कोल्ला पिडां कडेन उलोवपाक जिवार येता. पाड पडूं कशें जाता. तीं पिसांटां कशीं रिएक्ट जायत हाका तर्क आनी नेम नासता. कित्याय कितें उलोवप, आवाज बी चडोवप आनी अकस्मात उलयतनाच थांबून आपले तंद्रेंत वचप हीं हांचीं लक्षणां. उलयल्यार नुथू उसळटा ताचें वांगडा नेगेटिविटी पाझरप हें कोल्ला पिडेचें आनीक एक ठळक लक्षण.

सामान्य लोक कोल्ला पिडांच्या मूळ कारणां विशीं विस्कटावणी करून आपापले गांवठी पध्दतीन अर्थ काडीत आसतात. ती लग्न जावंक ना म्हूण अशी कोल्ली, ताका भुरगीं ना म्हूण अशें वागता अशीं मजेशीर रजांवां लोक काडीत आसतात. तीं पुरायेन चुकीचीं आसतात अशेंय म्हणूं नजो. पूण ताका शास्त्रीय बुन्याद आसना हें खरें.

कोल्ला पिडांक संवेदनशीलता काडयेची आसना. अणभव करपाचें इंद्रिय सामकेंच वातड आसता. तांकां पडूनच गेल्लें आसना अशेंय म्हणप समा थारतलें. हांव, म्हजें हो सुवार्थ मात तांचे भितर वेवस्थीत आसता. पूण दुसऱ्याक आपल्या सुरये सारक्या उतरांनी वायट बी दिसतलें हें तांकां सपनांत लेगीत तकलेंत येना. दादलो, बायल, चलो, चली शिकिल्लो न शिकिल्लो हांचो संबंद कोल्ला पिडा आसपा कडेन कसलोच ना. ही समस्या कोणाकूय जडूं येता.

कंपनी, आस्थापनां आनी कार्यालयांनी नोकरेक जे उमेदवार येतात तांच्यो पदव्यो आनी हेर पात्रता पळेतात. पूण तांच्या सभावांत कोल्ला पिडे दोश आसत जाल्यार तें पारखुपाचें यंत्र जाय. कारण एक कोल्ला पिडा, आख्खें साम्राज्य वाळटी कशी खावन उडयता. पोफडेवन सोडटा.

कोल्ला पिडा जिणेच्या ह्या जंवजाळांत आनी चाचंबरांत तुका म्हाका चुकचनात. त्यो पिडा जीव लायनात, जीव खातात. आमच्यांतली कसली तरी सुप्त शक्ती ह्यो पिडा जागी करतात आनी तें करप हीच तांची जिणेच्या रंगमंचावेली भुमिका आसुंये. कारण तांचे कडेन वेव्हार करतना झुजचेंच पडटा. कोल्ला पिडा जिणेंत सुवाद आनी रंग हाडटात त्यो ह्या कारणा खातीर.

संपर्क : 9545827662

***



# भास गिरेस्त करतात उलोवपां

विनोदी

**महेश पारकार**

सदच्या उलोवण्यांतल्यान आमी जायत्यो नव्यो गजाली ह्या संवसारांत हाडटात. जण एका मनशालें उलोवणें ताच्या भाशेच्या गिरेस्तकायेंत भर घालीत रावता. नवीं उतरां, वाक्यां, वाक्प्रचार घडटात. त्या आदारान भाशेची सोबीतकाय वाडत रावता. केन्ना केन्नाय आपले उलोवण्याचें स्वताकच अजाप जाता. कशीं कितें आयलीं हीं उतरां आपले उलोवण्यांतल्यान? अशेंय जाता. केन्नाय कांय विनोदी उतरां भोंवतणी आयकुपाक मेळटात. नकळटां आपल्याय तोंडातल्यान तीं भायर सरतात. अशे भशेन तीं शद्ब-वाक्यां त्या त्या भाशेचे कायम अलंकार जातात. आयच्या मोबायलाच्या अतिरेकाच्या तेंपार लेगीत! थोडे भोव चिंतन करुन पळयल्यार मतींत उजवाड पडटा. आमचे आयच्या सदच्या उलोवण्यांतली उतरां-वाक्यां पूर्विल्ले तेंपार सावन कशीं घडलीं आसतलीं? तीं आमगेल्या भाशेचींच जावन तीं थंय सासणाचीं कशीं कितें रुजलीं काय? ताचो अदमास घेवपाक मन केन्नाय खोलायेंत देंवपाक लागता. संवादाक लागून विनोद घडटात. ते केन्नाय दाडवणा दुखसर हांसपाक - हांसोवपाक कारण जातात. पयरुच एक तरणाटो म्हज्या सामकार कोणाक तरी फोनाचेर सांगतालो... "हांव केंस मारतालों."

आता हो कोणाले केंस मारतालो काय? घडये हागेली केंस कापपाची बारबेरी आसा काय? जांव स्वताचीच केंस कापणी करपाक बशिल्लो जायत?

अशे जायते अर्थ आयकतलो घेवपाक शकता. थोड्या वेळान तो तरणाटो रडकुरोसो जावन आपुलकेन फोनार उलोवपाक लागलो. घडये घरच्या मनशांलागी उलयतालो जायत. घरा बेगीन पावलो ना देखून घरचीं चिंतेस्त जाल्यांत आसूंये. देखून हो तांका मनोवपाचे सुरांत -

"हांव केंस मारतालों - हांव केंस मारतालों" अशें भर बाजारांत, स्कुटरीचेर बसून तो पिरंगतालो. एक वटेन काकूट. मर्दींच एकलो आयकूंक येवन ताका विचारता...

"अहो तुमचं सलून आहे का? बरं ते नेमकं कुठंय? माझं पण काम आहे...!"

फोनाचेर उलयतां उलयतां हो तरणाटो ताका रागान पळोवन आङ्गुलो. ताका फाफुडलो. उपरांत तो फोनाचेर म्हणटा, "आगे त्या आदीं हांव नॅटार आसलों." हांगाय तागेल्या उलोवण्याचे कोणूय दोन अर्थ काडूं शकतालो. केंस कापचे आदीं आपूण काय बरो दिसतालो? पूण बारबेरान केसाचो कोंबो कापून उडयलो. देखुन पुराय 'नॅट' कापपाक गेलो. त्या पिकासावांन तो उलयतालो काय? जाता अशें केन्नाय स्वताबद्दलचे गैर समजाक लागून. दुसरो अर्थ सायबर कॅफेतलो 'नॅट'!

शेवटाक घरच्यांचो हागेल्या उलोवण्याचेर इल्लोय भरवंसो नासलो जावंये. आनीक मात्सो बडबडून स्कूटर स्टार्ट करुन तो वाटेक लागलो.

असलेंच कोफूंसावांचें आनीक एक वाक्य कोंकणींत जायते अर्थानी आमी उलयतात. आयकयात.

"हांव थंय मारतालो." तुमकां, म्हाका सगल्यांक खबर आसा कोण कितें मारतालो तें. पूण आयकतलो जर गोंयांभायलो वा निकतोच यू.पी., बिहारांतल्यान आयिल्लो आसलो. तर त्या मनशान जर हें उलोवणें आयकलें जाल्यार? तो कितें येवजितलो?

"कोणाक तरी हो बडयतालो? काय झगडटालो काय?

केंस कापता, नुस्तें धरता, हॉटिलात बसून च्या पिता, वा बारांत बसून सोरो पिता. ह्या सगल्या वाक्यांचो उलयतना, बरयतना आमी शेवट 'मारता' हें क्रियापद जोडून पूर्ण करतात! बारांत बसून पितां ह्या सुवातेर 'मारतां' अशें म्हणप सगले नदरेन चूक! पूण त्या फाटल्यान आमचो गोंयकारांलो विनोदी स्वभाव असले हे वाक्प्रकार तिगोवन दवरपाक कारण जालां आसूंक जाय. स्वताच्या उलवण्याक अशीच एकाद्री विनोदी फोडणी दिल्याबगर उलोवण्याची रुच वाडना! अशें ताका



पूर्विल्ले तेंपार दिसला आसूंये. केन्ना-केन्नाय कांय गजाली दुसऱ्याक लिपोवन सांगच्यो पडटात. सोरो पिवपाचे सुवातेर 'मारप' म्हणप एक वेळ समजूं येता. पूण नुस्तें 'मारप' आनी केंसूय 'मारप' अशें आमी कित्याक म्हणत आयल्यात काय? पूण कांय गजालींक जापो नासतात. तसले हे प्रकार आसूं येतात. आमचे भाशेंतल्यो ह्यो खासियती, वा अलंकार ह्या अर्थान आमी पळयल्यार मात! जे कोणी पूर्वजांनीं हे अलंकार भाशेंत वापरले आनी आमचे मेरेन चलणुकेंतल्यान पावयले तांका दिनवासचेंच पडटलें. केन्नाय भायले मनीस येवन ह्या उतराचो अर्थ समजना अशें सांगतात! तेन्ना मात हे अलंकार आमका पोट फूटसर हांसपाक लायतात.

आनीक एक खबर. असोच एक मनीस म्हज्या दुकानाच्या नाबीभायर रावून कोणाकडे तरी तागेल्या सोयऱ्याक जाल्ल्या अपघाताविशीं म्हायती आयकयतालो. मडगांव बड्ड्यां अपघात जाल्लो. आनीक तो अपघातांत सांपडिल्लो मनीस कोमांत गेलो. आतां त्या आयकल्ल्यान सारकें आयकलेंना काय फोनाचो गोंदळ म्हूण समजलेंना...

''अपघात बड्ड्या जाला. मागीर ताका कोमांत कित्याक व्हेला? म्हऱ्यात थंय हॉस्पीसियो आसतना? आसं कांय नजो. कोमांत बरें हॉस्पीटल आसा जाल्यार थंय व्हेलें म्हूण कांय ना. बरेऽऽ उपाय जावन तो मनीस बरो जाल्यार पुरो. कोमां जावं ना जाल्यार आक्यां?''

''आरे-आरे तू कोमांतल्यान बड्ड्या आनी थंयच्यान आक्यां कित्याक भोंवता?'' फोनावेल्यान पलतडचो मनीस तापार जावन उलयतालो. ''कोमांत म्हळ्यार पुरायेन बेशुद्ध अशें म्हणपाचें आसलें म्हाका! परत साबूदीर आयल्यार पुरो. तकलेक हेल्मेट बी नाशिल्ल्यान तो कोमांत गेलो. म्हणजे बेशुद्ध जालो. समजलें?'' फोनावेली दोगांयलीय तापातापी म्हाका आयकुपाक येताली.

''अशें म्हण्टा? आरे पूण हें तूं म्हाका केन्ना सांगतलो? जांव तें म्हाका कळटलें? आकेंच्यान मोती दोंगरार पावतकीर?'' तशेंच ह्या म्हजे मुखावेल्या मनशान रागाचे भारांत फोन बंद केलो आनी नीट मडगांवा वचपाचे वाटेक लागलो! आतां ही एक गजाल 'पावयता' ह्या उतराची. हांव दनपरां दुकान बंद करपाचे तयारेक लागिल्लो. इतल्यान एक गिरायक दारा सामकार हजर! धांपिल्लें शटर परत वयर काडचें पडलें. ताका जाय आशिल्ली वखदां दिलीं. हांवे चिंतले हाचेर हांवे उपकार केल्यात. तो म्हाका मोटरसायकलीन घरा मेरेन व्हरून सोडीत काय? हांवेंय कसलेंच वाहन हाडूंक नासलें. तो आतां स्टार्ट करून वचपाचे तयारेंत! इतल्यान ताका हांवे म्हळें, ''म्हाका मात्सो सोडयरे घराकडेन'' -

तो रावलो. ''चल या मरे. तुंवे इतलें दुकान उगडून वखदां दिल्यांत म्हाका. ते व्हड उपकार तुजे. तुका आनी हांव सोडचो ना? पूण म्हजी एक अडचण आसा...''

''कसली अडचण? तुका बेगीन घरा वचपाक जाय? कांय नजो तूं चल. हांव चलत वता-'' हांवे म्हळें,

''ना तशें न्ही पात्रांव! त्या पयल्या वाड्यावयली कृष्णाली घरकान्न आयज सोंपली. तिचे मर्णाक हांव गेल्लों. तिका पावोवन हो पळय निकतोच येता थंय आसा. आतां हे अवस्थेंत तूं म्हज्या फाटल्यान मोटरसायकलीचेर बसून? तुका पावोवपाचें जाल्यार पावयतां!...''

तागेल्या उलवण्या फाटलें मर्म आयकून म्हाका कच्च जालें.

मेल्ले व्यक्तीक हो पावोवन आयला. आतां हांव ताका स्वताक पावोवंक सांगता! पूण म्हजे बरें चिंतून सरळ न्हय तर वांकडे तरेन ''तूं म्हजे सांगाता येवं नाका'' अशें सांगता. ल्हानसोच एक गांवचो मनीस हो! पूण दुसऱ्याचे कितलें चिंतप?

पावयलो, पायलो, पाववप ह्या उतरां फाटले जायते अर्थ आमी जाणात. पूण त्या ल्हानशा मनशाले मतींतलें मनीसपण कळपाक 'पावोवप' हें उतर जाय पडलें. जल्मभर विसर पडचो ना अशें हें उतर आनीक ती याद! आमचे भाशेचे आनीक एक व्हडपण समजलें!

संपर्क: 94207 68518

***

---

*(पान २८ वयल्यान)*

वेळार ताणे पयशांचो बारीक सारीक आदार करप. बायलांच्या कांय दुयेंसाचेर गांवठी वखदां दिवपाचें काम लेगीत तो करतालो. ताचीं हीं वखदां तांका कांय वेळार बरीं तशींच वायटाक पडटालीं. पुण चडश्या वेळार बऱ्याकूच पडटालीं जावंये. तीं दुयेंसा लेगीत तसलींच आसतालीं. दुसऱ्या कोणा कळूं नजो अशे तरेचीं. ह्या पासत तीं बरीं पडूंक ना जरी जालीं तरी त्या विशीं ताचो बोवाळय जाय नाशिल्लो. हें खरें म्हळ्यार लियाकताचें नशीब! एक दिस ताचो शेजारी मुनाफाकडल्यान तो दुयेंत आसा म्हणपाचें आयकल्लें. ताचें हें दुयेंस बरें जावपाचें न्ही अशेंय कळिल्लें. कसल्याच वखदांचो ताच्या दुयेंसार गुण पडलो ना. हेरांची दुयेंसां बरीं करपी लियाकत आपलें स्वताचें दुयेंस मात बरें करुंक शकलो ना. हांव लेगीत त्या वगतार ताच्या खबरेक पावलो ना. त्या दुयेंसांत लियाकतान खूप कमी पिरायेचेर हें जग सोडलें. शिक्षण पुराय केले उपरांत फकत सरकारी नोकरे फाटल्यान धांवपी आयची पिळगी बेकार बशिल्ली दिसता. असल्या वेळार म्हज्या दोळ्यां सामकार लियाकत येता. कसलोय धंदो मनासावन करीत तर तो कितलोय वाडोवंक येता. मागीर जायना तो कोंबयो, गोरवां जांव दुकरां पोसवण करपाचो. जाय ती फकत कसलेंय काम करपाची प्रबळ इत्सा.

सामाजिक गरज आनी ती योग्य वेळार पुरो करतना, ताचे कडसून फायदो कसो करुं येता हें सादे व्यवहार ज्ञान जाणिल्या लियाकतान शिकप करूं नाशिल्लें. आयज लियाकत जीतो आशिल्लो जाल्यार आयच्या व्यवहार ज्ञानाविशीं, नवे धंद्या विशी विचारल्यार, ''क्या दादा! खुद कि सोच से सब करनारा, शेर का दुध बिकनेकि भी कापाजदाद रखनारा रे'' अशें सांगून हांसत मोडत सदचे बशेन चालिक लागपाचो.

संपर्क: 9822129070

***

